SAPTARANG
Seven skits by
SURANGA VILAS MADKAIKAR

प्रकाशन क्र. ५५



**पयली उजवाडावणी :**
फेब्रुवारी १९९३

**उजवाडावपी :**
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें, गोंय ४०३ ४०१

**छापपी :**
हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय, फोंडें, गोंय ४०३ ४०१

**मुखचित्र :**
श्रीधर कामत बांबोळकार



**मोल :** ३८ रुपया

---

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' अनुदान येवजणेखाला छापलां.

---



ल्हानपणापासून वाचनाची आवड लावपी
आनी उदरगतीच्या खंयच्याय पांवड्यार
चडपाक पालव दिवपी
म्हजो भाऊ, सर्गेस्त वसंत कुडचडकार
हांच्या पवित्र उगडासाक
हें म्हजें पयलें फूल ओंपतां.

– सुरंगा

# मांडावळ

# कोंकणी रंगमाची जिखची, जिखत रावची!!

सौ. सुरंगा विलास मडकयकार हें नांव कोंकणी वाचकांइतलेंच म्हाकाय नवें! पूण ज्या सात नाटकुल्यांचो 'सप्तरंग' घेवन त्यो कोंकणी वाचकांमुखार येतात, तीं आनी तसलींच कितलींशींच नाटकुलीं शाळांच्या स्नेहसंमेलनांनी खेळपी भुरग्यांक आनी तीं नाटकुलीं व्हडा उमेदीन पळोवपी प्रेक्षकवर्गाक सुरंगा मडकयकार हें नांव निखालस नवें न्हय.

कुळेंच्या अवर लेडी ऑफ पायटी हायस्कूलांत फाटलीं २० वर्सां शिकोवपी सुरंगाबायनी नाटकुल्यांप्रमाण कितलींशींच आपउलोवपां बरोवन तीं नाटकुल्यांवरीच भुरग्यांकडल्यान सादर करून घेतल्यांत. तेभायर आपलीं नाटकुलीं आपल्या शाळेंतल्या भुरग्यांकडल्यान हेर संस्थांच्या सर्तींनी सादर करून तांणी शाळेक इनामां मेळोवन दिल्यांत. कविता होवूय तांचे आवडीचो विशय जाल्ल्यान ताचें लेखनूय त्यो अदींमदीं करतना दिसतात. तेनदरेन तांचे मराठी नाटककार काका कै. जनार्दन कुडचडकार हांची परंपरा समर्थपणान फुडें चलोवपाक जश्यो कितें त्यो मुखार सरल्यात, म्हळ्यार अतिताय जावंची न्हय!

पूण ही सगली प्रक्रिया मात्त खूब सवकसायेन घडत गेली, हेंवूय तितलेंच खरें. नातर फाटल्या आठ धा वर्सांत नाटकुलीं बरोवन बसोवपी सुरंगाबायचें एकादरें नाटकुल्यांचें पुस्तक उजवाडा येवपाक इतलो कळाव कित्याक लागचो? पूण जांव! कांय नज. उसरां जायना कित्याक एक बरें नाटकुल्यांचें पुस्तक शाळांच्या भुरग्यांमुखार, शिक्षकांमुखार येता, ही बरी गजाल.

म्हाका हेसंबंदान खोशी जाता ती दोन कारणांखातीर. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' येवजणेखाला सुरंगाबायचीं नाटकुलीं उजवाडा येतात आनी सुरंगाबाय एक जैतीवंत नाट्यलेखिका म्हूण प्रेक्षकांमुखार येतात हें एक कारण आनी ह्या कामांत म्हयाचो वांटेकारी जावपाची थोडीभोव संद म्हाकाय मेळ्ळी हें दुसरें कारण.

पूण तशें पळोवंक गेल्यार हांवें तरी कितें केलां? अकादेमीचो 'सहायक सचिव' ह्या नात्यान जंय जंय संद मेळटा, थंय थंय अकादेमीच्या वावरासंबंदान आनी येवजण्यांसंबंदान हांवें सांगलां. मडगांवां कोंकणी शिक्षक सनद वर्गाचो निमंत्रक ह्या नात्यान काम करतना अकादेमीच्या हेर येवजण्यांवांगडा 'पयलो चंवर'ची येवजण हांवें सांगली आनी वर्ग सोंपलेउपरांत जयमिनी कुडचडकार नांवांचें

एक शिटूक चली म्हज्या म्हऱ्यांत येवन 'पयलो चंवर' येवजण बरेतरेन तपशीलान समजून घेवपाचो यत्न करूंक लागलें. तें ताचे भयणीखातीर, म्हळ्यार सौ. सुरंगा मडकयकाराखातीर रूचीन आनी आस्थेन ही म्हायती काडून घेतालें.

दुसरे फावट येतना हांवें सांगिल्लेप्रमाण जयमिनीन त्या नाटकुल्यांचें हातबरप हाडलें. हांवें तें वाचून पळयलें आनी उपरांत हांवें सुचयिल्लेप्रमाण लेखिका नाटकुल्यांच्या हातबरपासयत भौ. पुंडलीकबाबांक वचून मेळ्ळ्यो. तांकां तें भोव मानवलें. गरज थंय सुचोवण्यो, बदल जाले आनी हातबरप 'पयलो चंवर' येवजणेखाला मान्य जावन छापंपाचे प्रक्रियेखातीर तयार जालें.

ह्या इल्ल्याशा कामाक लागून नाटकुल्यांखातीर प्रस्तावना हांवेंच बरोवची, असो सुरंगाबायचो आग्रो. पूण ताकाक येवन गाडगो लिपोवपाचो तरी कित्याक? अशें म्हजें म्हणणें. देखून प्रस्तावनेच्या नांवांन म्हर्जी हीं दोन उतरां.

सुरंगाबायच्या ह्या सप्तरंगांत वट्ट सात नाटकुलीं आसात. विशयांची तांणी केल्ली निवड, आशयाक धरून प्रसंगांची आनी पात्रांची केल्ली मांडणी, पात्रांप्रमाण वापरिल्ली भास, जोकते संवाद, एकांकीचो एकसंघ परिणाम अपेक्षित धरून दर एके एकांकीक दिल्लो वेळ ह्यो गजाली सुरंगाबायच्या ह्या मळावयल्या अणभवाची गवाय दितात. घडये, शाळांनी प्रयोग करून पळयलेउपरांत बदलाक फावो तें प्राधान्य दिवपाची संद तांकां मेळ्ळी आसुंये.

आनी तशें जाल्लें आसत जाल्यार ती बेस्स बरी गजाल. कारण, एकांकी जावं नाटकुलें जावं वा नाटक जावं, फकत वाचपाखातीर नासताच. तें आसता खेळपाखातीर, हांसतखेळत पळोवपाखातीर आनी खेळटां खेळटां, पळयतां पळयतां एकादरो विचार काळजामेरेन आनी तकलेमेरेन पावोवपाखातीर.

ते नदरेन, राष्ट्रीय एकचार, वंशाचो दिवो, व्हनीबायगेर टी.वी. येता, पानवळ, नारद गोंयां येता, कवीची आत्महत्त्या, कों ऽऽ कों ऽऽ कों हीं नाटकुलीं हांसयतां हांसयतां खात्रीन एकेका विचाराचें प्रबोधन केलेबगर रावचीं नात. 'ह्या संवसारांत अशे कितलेशेच लोक असहाय आसात, तांकां मदत करप, तांची सेवा करप हाचेंसारकें दुसरें पुण्य ना.' हो राष्ट्रीय विचार महिला मंडळाच्यो अध्यक्षा सरलाबायक तांचे घरकार अशे मांडणेन सांगतात की मिर्टींगेग भाषणां करून राष्ट्रीय एकचार वाडना, तर प्रत्यक्ष कृती केल्यारूच तो एकचार

वाडटा, घटमूट जाता, ही नवी दृष्टी कितल्याशाच सरलाबांयक 'राष्ट्रीय एकचार' नाटकुलें खात्रीन दितलें.

'वंशाचो दिवो' नाटकुलेंय असोच एक विचार घेवन येता. अर्थात्, चलो आनी चली हातूंत आयच्या काळांत कांयच फरक ना, हो विचार आतां तसो नवो न्हय. वंशाचो दिवो म्हूण चल्यांक तोखेवपाचेय दीस आतां सोंपले. अशें आसुनूय सुरंगाबायच्या शैलीक लागून हो विशय आनी एकांकी ओडलायणी जावंक पावला. दोन इश्टांमदल्या एकल्याक दोनूय चलयो. पूण एक चली स्वाती डॉक्टर, आनी दुसरें चली प्रगती एल्.एल्.बी. जाल्यार दुसऱ्या इश्टाचे – विष्णुदादाले – चले मात्त आपसुवार्थी आनी वेसनी. हो विशय तुळनात्मक नदरेन मांडटना लेखिकेन एकांकेंत हाडिल्लीं मोगरें, बोडको, जायू बी पात्रां आपल्या अज्ञानान नकळटना हांसो पिकयतात. देखीक, मोगरें 'सूर्या' हें घोवाचें नांव घेवचेबदला 'सकाळीं उदेता तो' अशें म्हणटा. बोडको काळजाच्या फोटोबदला स्वताचोच फोटो काडून हाडटा, जायूक जल्माचें 'साल' विचारल्यार तें घराचें 'साल' अशें धरून जाप दिता.

'व्हनीबायगेर टी.वी. येता' तर खेडेगांवांतल्या विंगड विंगड सभावाच्या मनीसप्राण्यांचें बेस्स बरें दर्शन घडयता. पूण हीं मनशां मात्त आपल्या विचारांकडेन आनी आचारांकडेन खूबच प्रामाणिक दिसतात आनी तातुंतल्यान विनोद निर्माण जातात!

हुंडाबळीसारके प्रस्न तथाकथित शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या समाजामदीं वाडत चल्ल्यात, हाची खंत 'पानवळ' नाटकुल्यांत उक्ती जावंक सोदतां सोदतां राजीव वावराड्या चंद्रयाकडेन लग्न जावन खंतीक नकळटना जाप दिवन वता. नाटकुल्याचो निमणो भाग आदर्शवादाकडेन बागवल्यावरी दिसलो तरी समाजाची गरज म्हणून थोडें प्रबोधन अशा नाटकुल्यांवरी जाल्यार कोणाची हरकत आसची न्हय, अशें दिसता.

नाटकुल्यांमदलें 'नारद गोंयां येता' नाटकुलें मात खूबच मिश्कील, विनोदी शैलीन नटिल्लें. नारदान केल्लें धतरिवयल्या मनीसमात्रांच्या सुखसोयींचें, चैनीचें, भेसांचें भूल घालीसारकें वर्णन इंद्रदेवासयत सगल्या देवांक पिशें लायता आनी ते धतरिवयल्या स्वर्गाच्या भेसाक बळी पडटात, पूण निमाणें मात्त 'स्वधर्मे निधनं श्रेय:।' नेमाक धरून परते जाग्यार येतात, अशी ह्या नाटकुल्याची मांडणी सुरंगाबायन इतले बेस्स बरे खूबेन केल्या की वाचतकच खातकुतल्यो जातात,

जाल्यार रंगमंचार सादर जातना तें पळोवपाक आकांत मजा आयलेबगर रावची ना!

'कवीची आत्महत्या'य अशीच रंगतदार. मर्णापयलींची 'पूर्वतयारी' पळोवपाकूच जशी कितें मावशी येता, वार्ताहर येता. संवादांतल्यान विनोद निर्माण जातात. मात्त निमणें 'अनोळखी' आत्महत्येची एक वेगळीच कल्पना मांडटा आनी सगल्यांकूच चक्रावन उडयता. पूण तें कितें प्रकरण हें जाणा जावन घेवपाक मात्त वाचप्यांनी पुराय एकांकीच वाचपाक जाय.

सात नाटकुल्यांमदलें निमणें 'कों ऽऽ कों ऽऽ कों ऽऽ' नाटकुलें मात्त तशें वाचून वा पळोवन विचार बी करपासारकें न्हय. उरफाटें पुराय विनोदी. कोल्याची बुद्द नव्या तंत्रान मांडपी म्हूण मात्त खेंड्रीत. नातवान आज्याक बुद्द शिकोवची वा गुरुची विद्या गुरुक तशें हें 'कों ऽऽ कों ऽऽ कों ऽऽ'. सुकडो आदोगादान बस्त्यांवाक कोर्टाक फटोवपाक दिल्ली बुद्द बस्त्यांव सुकडो आदोगादाक फटोवपाक वापरता आनी हांसतां हांसतां वाचक/प्रेक्षकय अजापित जाता.

सुरंगाबायच्या सात नाटकुल्यांची ही प्रस्तावना म्हळ्यार नाटकुल्यांचें आस्वादन न्हय वा नाटकुल्यांची समीक्षा न्हय. पूण पयल्या चंवराच्या रूपान उजवाडा येवपी सुरंगाबायची थोडीभोव तुस्ततोखणाय करतनाच तांच्या नाटकुल्यांची ही थोडीभोव वळख.

हीं नाटकुलीं सुरंगाबायप्रमाण हेरांनीय शाळांशाळांनी रंगमाचयांनी खेळचीं, खेळोवचीं आनी नाट्यप्रांगणांत केळोवचीं. सुरंगाबायन हातुंतल्यानच उमेद उर्बा घेवन आनीकूय नाटकुलीं बरोवचीं आनी तांच्या शिक्षक इश्ट-इश्टिणींनी, बरें मागप्यांनीय हे सर्तींत देंवन सुरंगाबायकूय हारोवचें! हातूंत मागीर कोण जिखचो ना, कोण हारचोय ना!! जिखलीच जाल्यार जिखतली ती कोंकणी रंगमाची आनी ती अशीच जिखची, जिखत रावची!!

श्रीस्थळ – काणकोण, **कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी**
२६ जानेवारी, १९९३

## दोन उतरां

१९७३ वर्सा हांव शिक्षिका म्हण अवर लेडी ऑफ पायटी हायस्कुलांत शिकोवपाक लागलें. तेन्नासावन आपउलोवपां, नाटकुलीं बरोवन गॅदरींगाच्या निमतान तीं माचयेर हाडपाक लागलें. सांगे आनी केपें तालुक्यांत जावपी नाटकुल्यांच्या सर्तिनी भाग घेतलो आनी शाळौक इनामांय मेळोवन दिलीं. जंय जंय सर्तिनी वांटो घेतला थंय थंय 'पानवळ', 'व्हनीबायगेर टी.वी. येता', आनी 'को ऽऽ को ऽऽ को' ह्या नाटकुल्यांक इनामां फाव जाल्यांत.

हांवें नाटकुलीं बरयलीं तीं गरज म्हणून. तीं बरोवपाक म्हाका उत्तेजन आनी उमेद दिली ती म्हजी आवय श्रीमती दुर्गाबाय कुडचडकार, म्हजो घरकार बाब विलास मडकयकार, भाव भास्कर कुडचडकार तशेंच शाळेचे हेडमास्तर फा. मार्सेल स्वारीस, फा. जॉन डी सौजा आनी फा. पीटर माथायश हांणी. त्याच नाटकुल्यांची ही गांथन – 'सप्तरंग'. म्हाका नैतीक बळ दिल्ल्या वडिलांचें हांव सदांच ऋणी आसतलें.

हीं सात नाटकुलीं पुंजावन तीं गोवा कोंकणी अकादेमीमेरेन पावोवपाचो मोलादिक वावर म्हजी भयण कु. जयमीनी कुडचडकार हिणे केलो.

कोंकणी अकादेमीचे सहाय्यक सचीव कमलाकरबाब म्हाळशी आनी व्हड कोंकणी लेखक पुंडलीकबाब नायक, जांकां हांव फकत नांवानूच वळखतालें, तांणी हांव अनवळखी आसुनूय दाखयिल्लें आपलेपण हांव केन्नाच विसरचेंना.

कमलाकरबाब म्हाळशी हांणी प्रस्तावनेच्या रूपान दिल्ले आशिर्वाद आनी पुंडलीकबाब नायक हांणी दिल्लें उत्तेजन म्हाका कोंकणी साहित्याच्या मळार वावरूक सदांच शक्त दितलें.

जांच्या अर्थिक पालवाक लागून हीं नाटकुलीं इतले बेगीन उजवाडा आयलीं त्या गोवा कोंकणी अकादेमीच्या आनी अपुरबाय प्रकाशनाच्या उपकारांत हांव सदांच उरतलें.

कुळें – गोंय. सौ. सुरंगा विलास मडकयकार

# १.

# राष्ट्रीय एकचार

(थळ: सरलाबायचें घर. सरलाबाय महिला मंडळाची अध्यक्षा, राष्ट्रीय एकचाराचेर भाशण पाठ करता.)

**सरला** : (हातवारे करून) भयणिनो, आमचो भारत देश एक महान देश, आमच्या देशांत सगळ्या जाती-धर्मांचे लोक मायेमोगान रावत आयल्यात. हिंदू, क्रिस्तांव, शिख, मुसलमान हांगा एकमेकांच्या हातांत हात घालून वावूरतात. आमचो देश जात, पात, धर्मभेद मानीना. सगळे लोक एकचारान वावूरतात. एकमेकांक अडी अडचणीत आदार दितात.

(इतल्यांत वनीताबाय, सरलाबायली शेजान्न, दारार मारता)

**वनीताबाय** : (भायल्यानूच) सरलाबाय आसा हय गे घरांत?

**सरला** : जालें! मातशें भाशण पाठ करूंक घेतलें म्हणतकीर कोण तरी आयलोच म्हण समजुपाचें. चारूच दीस उरल्यात मिटींगेक, आनी म्हजी अजून एक वळ पाठ जावंक ना.

**वनीता** : (भायल्यान) ए सरलाबाय, दार तरी उगड मगे.

**सरला** : (रागान दाराकडेन वता) आयलें. (दार उगडटा)

**वनीता** : (वाटी घेवन आयल्या) सरलाबाय, म्हाका एक वाटी साखर आसल्यार दी गे, सोयरीं आयल्यांत. बाजारांत कोणाकूय धाडटलीं म्हळ्यार कोणूच मेळना. भुरगींय खेळूंक गेल्यांत.

**सरला** : (आपल्याभितर) खबर आसा म्हाका. भुरगीं खेळूंक गेल्यांत खंय. भिकाड्डी आनी निमित्त कसलें

सांगतली? पयर व्हेल्ली च्या पावडर अजून दिवंक ना. आतां बरीच दितां हिका साखर. (उकतेपणी) आगे वनीताबाय, कितें सांगूं, आमगेर आजूच सोंपल्या. हांवूय कोणय बाजारांत वचपी मेळटा काय म्हण पळेतालें. आनी आमी सुद्धां तेखातीर आजून च्या करूकच ना.

वनीता : (आपल्याभितर) कालूच हिचे वावराडेन रेशन हाडलां हें हांवें ह्या दोळ्यांनी पळोवन देखून पळय ही कशी फटींग उलयता ती. राष्ट्रीय एकचार करता खंय. (उकतेपणी) सरलाबाय कितें एकटीच बडबडटाली गे?

सरला : आगे, हांव भाशण पाठ करी. राष्ट्रीय एकचाराचेर. मिटींगेक म्हाका भाशण आसा न्ही. महिला मंडळाचें!

वनीता : अशें! अशें! बरें वतां तर हांव. पळयतां त्या सुमतीकाकूगेर वाटीभर साखर मेळटा जाल्यार. (वता)

(भाऊ, सरलाबायचो यजमान येता.)

भाऊ : कोण आयिल्ली गे?

सरला : ती भिकाड्डी वनीताबाय. वाटीभर साखर मागूंक. सोयरीं आयल्यांत खंय.

भाऊ : साखर घेवन गेली?

सरला : हय! हांव दितां तिका साखर? पयरची च्या पावडर आजून दिवंक ना.

भाऊ : आगे, पूण शेजारधर्म म्हण आसता न्हय गे? फाल्यां तुकाय कसली गरज लागतली.

सरला : हांव च्या नाजाल्यार तशींच रावन पियेनासतना. अशी कट्टी घेवन भीक मागचीना दुसऱ्यांच्या दारांत.

भाऊ : ही कितें भीक! एकमेकांक सांबाळून घेवप हें शेजाऱ्यालें कर्तव्य. तें आमी करूकच जाय. कालूच घरांत साखर हाडल्या. दिवंची आशिल्ली तिका वाटीभर. आनी पयर चिमटीभर व्हेल्ली च्या पावडर तूं परत घेतली?

सरला : घेतली म्हळ्यार? ती कितें फुकट मेळळ्या आमकां

लोकांक वाटूंक? तुमी ओगी बसात आं. ह्या शेजाऱ्यांक दुसऱ्यांगेर मागपाब्वी जाल्या संवंय आनी कांयच न्हय.

**पोस्टमन** : (भायरसून) पोस्टमन!

(भायल्यान पोस्टमन येवन पत्र दिवन वता. भाऊ पत्र वाचता.)

**सरला** : कोणालें पत्र?

**भाऊ** : (खोशयेन) स्मिताल्या घोवालें. माधवालें. स्मिताक णववो म्हयनो लागलो तेन्ना बाळंटेराक घेवन येता खंय हांगा.

**सरला** : हांगा?

**भाऊ** : हांगा तर! आनी खंय वतलें तर तें?

**सरला** : आनी खंय म्हळ्यार? ताचीं आवय बापूय ना?

**भाऊ** : आगो, आवय बापूय जाल्यांत म्हातारीं. तांच्यानी तांचेंच करूंक जायना तीं बाळंटेर कशीं काडटलीं?

**सरला** : हय. तुमी बरे तन्ने आसात! आनी हांव बरी घट्ट आसां सगळ्यांलें करूंक!

**भाऊ** : करूंकच जाय. म्हजी अपुरबायेची एकलीच भयण. तिचें पयलें बाळंतपण हांवें करूंकच जाय. आनी तुवें सगळ्यांलें कितें केलां गे? म्हजी जाणटेलीं आवय आनी बापूय. तांकां सुद्धां धांवडायलीं गावांत, तांचे त्रास काडूंक जायना म्हण. बाकी तांचे बाबड्यांचे कसलेच त्रास नासले. वयल्यान तींच आमच्या भुरग्यांचें सगळें करी.

**सरला** : सगळें? सगळें म्हळ्यार कितें?

**भाऊ** : सगळें म्हळ्यार तांकां न्हाणोवप, फिरूंक व्हरप, तांचो अभ्यास घेवप, तांकां काणयो सांगून तांकां न्हिदोवप. तांचेबरोबर खेळप. तीं वचत पासून भुरगीं पडल्यांत रस्त्यार, घर सोडून. भायर वचना आसलीं भुरगीं तीं आतां दीसभर शेजाऱ्यांगेर वतात खेळूंक!

**सरला** : भुरगीं शेजाऱ्यांगेर वतात तींच बरीं! हांगा बोवाळ तरी नासता.

भाऊ : आनी लोकांगेर बोवाळ जाल्यार जाता?

सरला : लोकांलें लोक पळोवन घेवं. तुमकां कित्याक पडलां लोकांचें?

भाऊ : हय. म्हाका म्हजेंच पडून वचूंक ना! नाजाल्यार तुजेखातीर हांव म्हज्या जल्मदात्या आवय-बापायक जेन्ना तांकां म्हजी गरज आसा तेन्ना एकलीं गावांत धाडटलों आशिल्लों? ह्या वेळारूच तर तांकां तांच्या तरणाट्या पुताची चड गरज आसता.

सरला : मागीर तुमीच वचून रावात गांवांत आनी थंयच काडात तुमचे अपुरबायेचे भयणीचें बाळंतपण. कितें बाये खा ऽऽ खू ऽऽ खाक थू. एक दीस आवयक तर दुसऱ्या दिसा बापायक खोंकली. टी.बी. पेशंटाचें घर दिसतालें हें. म्हज्यो इश्टिणी येवंक विटटाल्यो हांगा. आनी आतां ती खा ऽ खी मातशी थांबल्या मात आतां भयण येता खंय बाळंतपणाक. घराचें हॉस्पीटल बी करपाचो विचार ना मू तुमचो?

भाऊ : आवय बापूय, भयण आनी तींयबी म्हजीं, तुका हॉस्पिटलांतले पेशंट दिसतात? आनी तुजी आवय, तो दिवटो भाव मात कितलेय दीस रावूं तुका तीं कालूच सोयरीं आयिल्ल्यावरी दिसतात, न्ही गो? तुजी आवय वर्सांतले कितले म्हयने घरा रावता गो?

सरला : कशी रावतली ती? ती महामाया सून हाडीत पासून तिका दोन गोटे सुखान खावंक मेळटात?

भाऊ : आनी तुका हाडीत पसून म्हज्या आवय-बापायक खावंक मेळळ्यात?

सरला : कितें? हांव कितें उपाशी दवरी तांकां?

भाऊ : उपाशीं दवरी नासलें पूण थोमणे मारीत वाडी. तशें सुण्या माजराक पसून वाडटात.

सरला : (रडटा) म्हजे हातूच उरफाटे. हांव कितलेंय जरी तुमचेखातीर करीत जाल्यार ताका यशूच ना.

भाऊ : असलीं हीं दुकां गळयलीं म्हण हांव आतां वितळपाचो ना. आगो म्हजीं आवय-बापूय जाणीं म्हाका ल्हानाचो

व्हड केलो, शिकयलो तांकां तुवें धांवडायलीं तो दीस येवजिल्यार म्हज्या दोळ्यांतल्यान न्हंयो व्हांवतात न्हंयो.

**सरला** : पाड पडिल्लें मातशें भाशण पाठ करतलें म्हळ्यार हांचें रडगाणें सुरू. तुमकां कांयच काम ना? म्हाका बेठेंच डिस्टर्ब करूंक नाकात. अध्यक्ष हांव महिला मंडळाची. भाशण पाठ जायना जाल्यार लज जातली ती म्हाकाच. (भाशणाचो पेपर घेवन बसता. भाऊय पेपर वाचूंक बसता). खंय पाविल्लें काय हांव. हां, आमचो देश जातपात, धर्मभेद मानीना. सगळे लोक एकचारान वावुरतात. एकमेकांक अडी अडचणीत आदार दितात. दुसऱ्यांलें सुख तेंच आपलें सुख आनी दुसऱ्यांलें दुःख तें आपलें दुःख समजतात.

(इतल्यान तांगेर घरकाम करपी रामनाथ येता.)

**सरला** : रामनाथ, खंय रे तूं? दोन दीस जाले घरांतलीं कामां तशींच पडल्यांत, आनी तूं दोन दिसांनी आज येता?

**रामनाथ** : बाय कितें सांगो? घरकान्न दोन दीस जाले जोरान फडफडटा. तिच्या ताळ्यार पेज्जे निवोळ घालोंक घरांत आनी कोण आसा?

**सरला** : आपूण दोन दीस येवचोंना म्हण सांगून वचचेलो न्ही?

**रामनाथ** : बाय, पयर हांगासून घरा गेलों. घरा वचत जाल्यार ही जोरान भाजता. तिका तशी एकटी सोडून कसो येवं आसलो हांव?

**सरला** : वच लादी पूस आनी संडास निवळ कर.

**रामनाथ** : बाय, ती आजून बरी जावंक ना. हांव तेंच सांगूक येयलेलों. घरांत आनीक कोण ना. आतां वयतां हांव. ती बरी जातकूच रोखडोच येतां.

**सरला** : हेंच सांगूक आयिल्लो?

**रामनाथ** : बाय, रागार जावं नाका. तिका दोतोरागेर व्हरूंक म्हजेकडेन पयशे नात. बाय, म्हाका एक पन्नास रूपये आसल्यार दी. मागीर पगारांतल्यान काडून घे तूं.

सरला : हां! तर तूं पैशांक आयला तर. हांगा पयशे कितें झाडाक पिकतात रे? गरज आसता तेन्ना अशे कोले कशे जातात तुमी लोक, आनी जोर आयल्यार सरकारी दोतोर ना? पयशे कित्याक जाय ते?

रामनाथ : बाय, सरकारी दोतोराक दाखयली. तेणेच बरोवन दिलां तें हाडूंक पयशे नाकात?

भाऊ : आगो, ताची घरकान्न बरी ना म्हूण तो पयशे मागता आनी तूं ताका आडायता? (पैशे काडटा) घे रे रामनाथ आनी वचून तुजे घरकान्नीक वखद कर. ती बरी जातकच यो तूं. आमची लादी चार दीस पुसना जाल्यार कांयच आडखळ जावचेली ना.

रामनाथ : बाबा तुमचें बरें ऽऽ जावं. (पैशे घेवन रामनाथ वता)

सरला : तुमी – तुमीच ह्या नोकरांक चडोवन दवरल्यात.

भाऊ : आगो, तो बाबडो काकुळटेक येता आनी आपली घरकान्न बरी ना म्हण सांगता जाल्यार ताका वखदाक पयशे दिवचेले न्हय? मनीसपण म्हणटात तें आसूंक जाय काय ना गो मनशाक, आनी तो कितें पयशे घेवन पळून वतलो? बाबडो काकुळटेन सांगता, बायल बरी जातकच रोखडोच येता म्हण.

सरला : म्हाका तुमी ह्या लोकांलें कांयच सांगूं नाकात. ते लोक चिकानां करूंक हुशार.

भाऊ : कित्याक, ते गरीब म्हणून? आनी ह्या गरीबान पन्नास रूपये तुजे व्हेले जाल्यार तूं कितें गरीब जातलें? हरशीं महिला मंडळांतल्या इश्टीणींक पाट्यो दिवंक कितलेशेच मोडता मुगो तूं?

सरला : तुमच्या दोळ्यांत फकत म्हज्यो इश्टीणी खुपतात. तुमकां कोण इश्ट नात म्हण तुमी अशें उलयतात. तुमी पडले मास्तर. मास्तरांक आनी खंयचे इश्ट! तुमी फकत हीं व्हडलीं व्हडलीं बुकांच वाचचेलीं.

भाऊ : हीं बुकां म्हळ्यार अशीं फालतू समजनाका तूं. ही ज्ञानाची गंगा. ह्या पुस्तकांतले आदर्श स्वतः पाळून तें भुरग्यांक शिकोवपाचें पवित्र काम करतां हांव. तुका

तें कशें कळटलें म्हणा.

**सरला** : हांवूय कितें कमी ना. महिला मंडळाची अध्यक्षा हांव. म्हाका बायलांनी वगीच वेंचून काडूंक ना.

**भाऊ** : जाणां हांव. येदोळच्यान तुजें भाशणच आयकतालों राष्ट्रीय एकचारावेलें.

**सरला** : आतां सांगात हांव कितें कमी आसां?

**भाऊ** : कमी! खूब कमी आसा! आगो व्हडलीं-व्हडलीं भाशणां करून जग सुदारना.

**सरला** : मागीर कशें सुदारता तर?

**भाऊ** : कसलीय गजाल दुसऱ्यांक शिकोवचे आदीं आपणें ती करूंक जाय. आतांचीच गजाल सांगतां. तूं जें भाशण करतालें, अडी-अडचणींत दुसऱ्यांक आदार दिवंक जाय, हें कितें फकत भाशणांतूच सांगपाचें आसता? ती वनीबाय साखरेक आयिल्ली तिका तुवें फटोवन धांवडायली. रामनाथ मदत मागूंक आयिल्लो ताका तुवें फटींग केलो. हेंच कित्याक, म्हजी भयण बाळंतपणाक येता म्हळ्यार तूं रागान तांबडें जालें.

**सरला** : मागीर कितें मोगान धवें जातलें?

**भाऊ** : आगो, घरच्यांक, समाजाक आमी कितेंय देणें आसतात. आनी तें देणें आमी फारीक करूंकच जाय. म्हजी भयण, तुजी नणंद कांय सदांच रावंक येतली हांगा? आनी तूं पयल्या बाळटेराक तुजे आवयगेर वचूंक नाशिल्लें? तुजें सगळें ताणीं केलें ना? जर तांणी तूं येता म्हळ्यार तुका नाका म्हण सांगिल्लें जाल्यार? तुजी आवय त्या वेळार भोंवडेर गेल्ली, तुजे भावजयेन काडलेंना तुजें?

**सरला** : म्हजी भावजय आसाच तशी गुणांची.

**भाऊ** : मागीर तूंयबी जा मुगो गुणांचें. नणंदेक मायेमोगान येवकार दी. तिका बरें-बरें करून घाल. तिचें बरें वायट काड. मागीर तूं म्हणटा तशें तीय बी म्हणटली, म्हजी भावज आसाच तशी गुणांची म्हण. पयलीं घरांतलो एकचार पळय, मागीर शेजारचो, मागीर

गांवचो. असो आपशींच राष्ट्रीय एकचार जातलो. भाशणां दिवन न्हय.

**सरला** : म्हणजे कितें म्हणपाचें आसा तुमकां ?

**भाऊ** : आगो तूं महिला मंडळाची अध्यक्षा. तुवें कितेंय सांगल्यार चार बायलां आयकतात. मागीर तूं ताचो फायदो कित्याक घेना ? आमच्या गावांत कितल्योशोच बायलो अशिक्षीत, अज्ञानी आसात. तांकां सज्ञान करात. ल्हान भुरग्यांचेर बरे संस्कार जावपाक भुरग्यांखातीर कितेंय कार्यावळ दवरात. थंय वचून फकत फॅशन परेड आनी रूचीक खाणांच करपाक बसूं नाकात. समाजाक कितें उपेगाचें आसा तें पळेयात.

**सरला** : हें मात खरें आं. आमी इतले दीस फकत थंय वचून नवीं नवीं खाणां करूंक शिकतालीं आनी तींय बी सगळीं पयशेकारांच. घरांत वेळ पासार जायना म्हण वेळ पासार करूंक वतालीं. पूण आतां हांव हीं खाणां, गरीब बेकार बायलांक शिकोवन तांकां ताजो कसो उपेग जाता हें समजायतलीं.

**भाऊ** : हें जर तुवें करीत जाल्यार तुज्या भाशणाकूच न्हय तुज्या दर एका उतराक मोल आसतलें. ह्या संवसारांत अशे कितलेशेच लोक असहाय्य आसात. तांकां मदत करप, तांची सेवा करप हाचेसारकें दुसरें पुण्य ना.

**सरला** : खरेंच असो विचार केल्यारूच मनाक कितली शांती मेळ्ळी आनी काम केल्यार कितलें बरें दिसतलें! हें भाशण आसूं आतां. हांव पयलीं रामनाथागेर वतां. ताची घरकान्न बरी ना. तिची वासपूस करतां. तुमी माधवाक पत्र बरयात स्मिताक धाडून दी म्हण.

**भाऊ** : सरला, आज तूं म्हजी बायल म्हण सांगपाक म्हाका अभिमान दिसता. म्हजी बायल महिला मंडळाची अध्यक्ष आसा अशें सांगपाक म्हाका केन्नाच आवडूंक नाशिल्लें. पूण आज म्हाका तुजेविशीं खरेंच अभिमान भोगता. बायल आसची जाल्यार म्हज्या सरलासारखी अशें हांवूच न्ही तर लोक पसून म्हणटले. हांव व्हड

अशें म्हळें म्हण तो मनीस व्हड जायना. व्हड कामांच मनशाक व्हड करता. जाती, धर्म, गरीब, श्रीमंत अशे भेदभाव मानीनासतना काम कर, व्हडपण तुज्या दारांत चलत येतलें.

**सरला** : तुमी म्हाका आज नवी नदर दिली. तुमी म्हजे पती परमेश्वरच न्हय, खरेंच तुमी म्हजे गुरू. तुमकां नमस्कार करूनूच हांव आज राष्ट्रीय एकचाराच्या कामाक सुरवात करतां. (नमस्कार करता)

(पड्डो पडटा)

नर्स
दोतोर
मोगरें
बोडको
जायू
विष्णू
प्रकाश

२.

# वंशाचो दिवो

## २.

# वंशाचो दिवो

(थळ : दोतोर स्वातीची डिस्पेन्सरी. बरेचशे पेशंट बांकार बसल्यात. नर्स पेशंटाक वखदां इन्जेक्शनां दिता. डॉक्टर पेशंटाक तपासता.)

**नर्स** : नंबर पंदरा. (पेशंट भितर येता).

**दोतोर** : हं, बस. तुजें नांव कितें?

**मोगरें** : मोगरू.

**दोतोर** : घोवाचें? (मोगरें लजता). आगो, तुज्या घोवाचें नांव कितें गो? अशें लजता कितें व्हंकल कशी? सांग बेगीन.

**मोगरें** : (लजत) सकाळीं उदेता तो.

**दोतोर** : खंयचे मुस्तींत आसा गो तूं? घोवाचें नांव सूर्या म्हण सांगूक येदो वेळ? आडनांव सांग.

**मोगरें** : आडनांव गांवकार.

**दोतोर** : कितें जाता तुका?

**मोगरें** : पंडरी रेखाकडेन लगीन जालो त्या दिसासान दुयेंतूच आसा हांव.

**दोतोर** : हो पंडरी आनी रेखा कोण?

**मोगरें** : पंडरी आनी कोण. म्हजो चेडो. घराचो दियो! (रडटा). चार चेडवां फाटल्यान उपास, मागण्यो करून जाल्लो. चार भयणी लग्नाच्यो सोडून त्या मळकर्णेच्या रेखाकडेन लगीन जावन घरजांवय जालो तेंगेलो. चार दीस जाले तो वसत पासून म्हाका जेवण खाणाची रूच ना. काळजांत कलकलता. (रडटा)

**दोतोर** : (तपासता) व्हडल्यान स्वास घे. (मोगरें तशें करता) तशें तुका कांयच दुयेंस ना. चड चिंतू नाका. चिंतल्यार मात प्रेसांव देंवतलें.

मोगरें : मरून वसूं हांव. दोतोर खरें सांगतां. हीं चार चेडवां पदराक नासलेलीं जाल्यार हांव त्याच दिसा खंयतरी वसून जीव दिता आसलेलें.

दोतोर : तुजो घोव आसा मुगो घरा?

मोगरें : तेजें पडों पाड. तो बरो आसलेलो जाल्यार हांव कित्याक भियेतालें?

दोतोर : म्हणजे? तो घरांत ना तर?

मोगरें : ना कित्याक! घरांतूच आसा. न्हिदोन खाता. दीसभर इडयो फुंकता आनी तिनसांजचो सोरो पियेवंक पैशे दिना जाल्यार गाळी संवता, मारता (रडटा) म्हाका मारता तो. वाडलेलीं चेडवां आसा न्हू, तेंचेरूय हात उबारता.

दोतोर : चेडवांचीं लग्नां करूंक ना?

मोगरें : दोतोर, लग्नां करूंक पयशे नाकात? तेंका शिकपूय बीन ना. दोगां नर्सरींत कामाक वयतात. एक हेमा आदोगादागेर काम करता आनी धाकटें घरांत रांदूंवाडूंक. म्हज्यान आतां खंय कामां जातात?

दोतोर : मोगऱ्या, तुवें वाट लायली तुज्या भुरग्यांची. तांकां शाळेंत कित्याक घालीनात?

मोगरें : तेंच बाये म्हजें पिशेपण जालें. आमच्या चेडवांक आनी शिकप कित्याक म्हुणोन फुकट शिकप आसुनूय शाळेंत घातलीनांत पोरांक. आनी आतां काडटां तरास.

दोतोर : तुमी लोक हीच व्हड चूक करतात. सरकारान तुमचेखातीर इतल्यो सवलती दवरल्यात पूण तुमी ताचो कांयच फायदो घेनात आनी मागीर रडटात.

मोगरें : हय दोतोर. चेडवां ही दुसऱ्या घरा वयचेली वस्त म्हण घरा बसयली. आनी त्या दिवट्याक घातलो इश्कोलाक, शिकयलो, मॅट्रीक पास जातरीर बँकांत पिवन म्हण लागलो आनी पांकां फुटतकच उडून गेलो. (रडटा)

दोतोर : आतां रडून कसलो फायदो? बेश्टे जिवाक मात त्रास करून घेतले. तुज्या घोवाक हांगा धाडून दी. हांव

समजायतां ताका. ह्यो गुळयो दिसाक तीन फावटी एक एक घे आनी टॉनिकाची बाटली दितां ती दिसाक एक एक कुलेर जेवल्या उपरांत घे. चल ही चीट नर्सीकडेन दी. (दोतोर चीट दिता. मोगरें वता.)

**नर्स** : नंबर सोळा. (बोडको वालो आनी खोमीस न्हेसला. खोमसाच्या बोल्सांतल्यान फोटो काडून)

**बोडको** : कसो येयला म्हुणून कोण जाणा! माथ्याचो वालो मातसो वांकडो येयला. मिशो ओगीच काडल्यो (अशें म्हणत येता).

**दोतोर** : बोडक्या आयलो तूं? तुका फोटू काड म्हण सांगिल्लो मरे? काडलो रे तुवें फोटू?

**बोडको** : तोच घेवन येयलां दोतोर. कसो येयला कोण जाणां!

**दोतोर** : खंय आसा तो दाखय पळोवंया!

**बोडको** : (फोटू दिता) घे दोतोर. आनी दोन कोपयो दिल्यात. एक घरांत थेयतां आनी एक धुयेक दितां. म्हगेलो हो पयलोच खोटू. धुयेक दिलोना जाल्यार जांवय रागार जांवचोना? म्हागेलें हें दुयेंस हें अशें. फाल्यां मेलों-बिलों जाल्यार फाटल्यान बायलेक आनी पोरांक उगडासाक तरी उपकारतले. दोतोर हे खोटू काडपाचें सांगोन तुमी बेस बरें केलें हां.

**दोतोर** : आरे, पूण हांवें तुका हो असलो फोटू काडूंक लावंक नाशिल्लो. (दोतोर कपलार हात घेवन बसता)

**बोडको** : तुमकां कसलो रंगीत जायो आसलो? पाड पडूं म्हजें. तो खोटू काडपी सांगी रंगीतूच काडूया म्हुणून. हांयेंच नाका म्हटलें. म्हाका म्हाताऱ्याक आनी कित्याक जाये तें रंगीत आनी संगीत खोटू. दोतोर हो चलना? बाकी दोतोर तुका देवान चेडूं जावन तकली मात बेसबरी दिल्या. म्हाजे तकलेंत हे खोटू काडचेलें येवंकच ना. आतां आमगेले हिचोय एक काडून थेयल्यार बरो न्हू? वायट बरें सांगू येता? तुमचें देव बरें करूं. म्हजी घरकान्न म्हजो हो खोटू पळोवन पळय लजेल्या! म्हाका लग्नाचो उगडास येयलो? रान्नीकडेन बसून ती परत

परत पळयी. म्हज्याय जीवाक बरें दिसलें. पयशे कितेंय पडूं फाटल्यान नांव उरलें न्हू!

दोतोर : हाका कशें समजांव. आरे तुका हो फोटू न्ही, काळजाचो फोटू काडून हाड म्हण सांगिल्लें. तुका कसलें दुयेंस जालां तें पळोवंक.

बोडको : खोटवार पोळोन कितें दुयेंस कळटा? आतां म्हज्याच खोटवांक पळय. म्हजी घरकान्न सुद्दां म्हुणूंक लागली लग्ना येळार आसलो तसोच आजुनूय दिसता म्हणून. आनी ही खोटवार घातल्या ती बंडी म्हज्या लग्नायेळावयली. म्हज्या मांवान दिल्ली. ती तशीच थेयलेली. ती बंडी घालून हांव आजुनूय न्हवरो कसो दिसता खंय! बापायन हाडलेली बंडी घातली म्हुण आमगेली ही खूब खोशी जाली. आनी खरें सांगूं दोतोर? इतले दीस म्हाका रातची झेम पडनासली पूण हो खोटू पळयतपासून रातची बरी न्हीद पडटा. रातीं तर मजाच जाली. सासूमांय येयली आनी म्हुणूंक लागली, म्हजो जांवय खोटवांत कितलो सोबीत दिसता!

दोतोर : आरे बोडक्या, कसल्यो बोडक्याच्यो गजाली सांगता? तुका कशें समजावन सांगूं? आरे तुका हांवें सरकारी हॉस्पिटलांत वचून फोटू काड म्हण सांगिल्लें. चीट दिल्ली. खंय रे ती चीट?

बोडको : घरा थेयल्या.

दोतोर : ती घे आनी फाल्यां हॉस्पिटलांत वच आनी थंयच्या दोतोराकडेन दी आनी ते दितात तो फोटू घेवन यो. समजलें?

बोडको : पाड पडों म्हजें. असलो खोटू काडटात म्हुणोन म्हाका खंय खबर? हांव कितें शिकलां? खोटू पर खोटू. दुसरो कुडीभितल्लो काडटात हें म्हाका आयजूच कळ्ळां.

दोतोर : आतां कळ्ळें मरे? आतां तरी उपकार करून एक्सरे काडूंक चल.

**बोडको** : फाल्यां वयतां दोतोर. (वचूंक वता, परत येता.) दोतोर ती कॉपी तुमकां जायी! जायी जाल्यार थेय तुका.

**दोतोर** : म्हाका कित्याक ती? व्हर ती तूं.

**बोडको** : दी तर. भावागेर एक दिवंकच जायो फोटो. जावयांक दिलां हें कळ्ळ्यार तो रागार जावंचो ना? भाव सोडून जांवय लागींचो जाला म्हणटलो. बरें जालें तुमकां नाका तो. नाजाल्यार आनी एक कॉपी काडची पडटली आसली. बरें दोतोर, वयतां हांव. (वता)

**नर्स** : नंबर सतरा! (जायू. पान खालां, कमराक तुवालो, पानाची पिशवीय कमराक लायल्या.)

**दोतोर** : बस. कितें जाता?

**जायू** : फाटींत कसकसता म्हणसर कमरांत कसकसता. उबें रावल्यार घुंवळ येयलेल्या बशेन जाता.

**दोतोर** : भुरगीं कितलीं?

**जायू** : व्हडलो गणपती, दुसरें आबोलें, तिसरें तें तिरसूल सुलोचना. चवथो बाबलो आनीं धाकलें शिरीदेयी.

**दोतोर** : धाकलें केदेंशें आसा?

**जायू** : हांडीर घेवन भोंवतां.

**दोतोर** : खंयच्या सालांत जाल्लें गे तें?

**जायू** : सालांक? ह्या पाड पडिल्ल्यांनी साल थेयलां? बाबलो जाल्लो तेन्नाच सालाचे वांटे केले. घराक तीन कुडी केल्यो. आमच्या वांट्याक एक कूड आनी भायली पडवी येयली. दोनी कुडी आनी साल तींच वापरतात.

**दोतोर** : तें साल न्ही गो.

**जायू** : आनीक खंयचें? तें एकूच साल. थंयच गणपती पुजतात. पोरूच्यान आमचे गणपती दोन जाले न्हू? कांयच जालें ना. भुरग्यांलें केस्तांव. आतां तूं सांग दोतोर, भुरग्यांलीं केस्तांवां घेवन आमी जाणट्यांनी झगडप? पूण जायेक निमितच जाय आसलें. घोवाक चाडयो सांगून घराचे वांटे करूंक लायले न्हू गे ते बायलेन? म्हजें शिरीदेयी बाबडें त्या काळखाचे कुडींतूच जालें.

दोतोर : आज सकाळीं कोणाचें तोंड पळयलें कोण जाणां! तरेतरेचीं संवगां भेटटात. आगे, खंयच्या वर्सा जाल्लें गे तें?

जायू : म्हाका खंय वरसां याद उरल्यांत? त्या वर्सा पावस खूब पडलेलो. आनी सांतानाले गादयेकडेन वाग बीन येयलेलो आनी तेजीं दुकरां बीन मारलेलीं. त्याच वर्सा शिरीदेयी जालां. म्हाका घट याद आसा, म्हागे सामकी भियेवन गुळी जाल्ली. त्याच दिसांनी त्या भयानूच म्हज्या पोटांत जावो लागलेलें.

दोतोर : आगे! पूण तो वाग केन्ना आयिल्लो तें हांवें कितें बरोवन दवरलां? तुमी लोक अशींच अडाणी. भुरग्यांक तरी शाळेंत घाल्यांत मगे?

जायू : हय बाय. आमचे शाळेच्या मास्तराचें बरें जांव. तेणेन परत परत येवन हेंकां सांगून तेंकां शाळेंत हेलीं. आतां शिकतात कितें म्हुणोन देव जाणां. सकाळींफुडें उठोन वयतात.

दोतोर : आतां संवसार कितलो सुदारला जाणा मुगो तूं? तुमीय आतां फाटीं रावंक जायना. हें पळय, आतां चार भुरगीं जाल्यांत मुगो? आतां ऑपरेशन कर.

जायू : आवयस, तें मात सांगो नाका दोतोर. म्हाका भिरांत दिसता.

दोतोर : हेंच तें. भिरांत दिसता! आनी अशी भुरग्यांची गांथन जातकच तांकां खावंक, जेवंक, न्हेसूंक खंयचें हाडप हें चिंतून भिरांत दिसना? आनी तूं तरी जिवान बरें आसा? हें पळय, आतां जर तुगेर आनी भुरगीं जायत जाल्यार तूं कशेंच वाचचेंना. हांव सांगतां तें आयक.

जायू : दोतोर, तशें जाल्यार हांव तयार आसां. हांव मेलें जाल्यार म्हगे भुरग्यांक वयर कोण काडटलो? घोव आनी हांव दिसोड्याक वयतात म्हुणून तेंकां शाळेंत वसूंक मेळटा. हांव कितेंय सोसूंक तयार आसां पूण त्या पोरांक म्हाका वयर काडुंकूच जायी. आमी अशीं अडाणी उरलीं आनी पिशीं थरलीं म्हुणून आमगे

भुरग्यांक ते तरास जावंक नाकात.

**दोतोर** : तशें जाल्यार पांच तारकेर हांगा यो. त्या दिसा ऑपरेशन करपी दोतोर येतले. तूंय यो आनी बाकीच्या बायलांक तयार कर. तांकां तुजे हे जातात ते हाल सांग.

**जायू** : बरें दोतोर. हांव कामाक वयता त्या बायलांक सांगतां.

**दोतोर** : (चीट बरोवन दिता) ह्यो गुळयो आनी इन्जेक्शनां बरयल्यांत. नर्स सांगतली. (वता)

(इतल्यान एक पुडवेकार येता. ताणें कोट, टोपी घाल्या. ताचेबरोबर ताचो चलो आसा. दिसपाक घुंवळी वखदां घेवन जाम जाला कसो. दोळे काळे, केंस विस्कटलेले आसात.)

**विष्णूबाब** : म्हाका वळखलें बाय तूं?

**दोतोर** : ना! तुमी कोण?

**विष्णू** : आगो, हांव विष्णू.

**दोतोर** : विष्णू? खंयच्यान आयल्यात?

**विष्णू** : लोंड्यावेल्यान.

**दोतोर** : (हांसत) बाबा सांगतात ते विष्णूकाका तुमीच? आनी हो कोण सूरज काय प्रकाश?

**विष्णू** : हो प्रकाश.

**दोतोर** : ताका कितें जालां? (प्रकाश सकयल मान घालता) सामको जामसो दिसता? (म्हऱ्यांत वता. ताच्या हाताक धरता.)

**विष्णू** : कितें सांगू बाय तुका? नशीब म्हजें. हाणें हें दुयेंस विकतें घेतलां. पयशेकार बापूय आसले म्हणटकीर अशीं हीं दुयेसां जातात पुता आयच्या ह्या भुरग्यांक.

**दोतोर** : हांव समजलेंना.

**विष्णू** : पळय पुता ह्या विष्णुकाकाल्या दिवट्याक. कॉलेजींत घुंवळी वखदां घेवचेलें व्यसन लागलें आनी तूं जाणांच तीं घेतकच कितें जाता तें. तरी हांव वेळारूच सावध जालों आनी ताका हॉस्पिटलांत व्हेलो. म्हण तुका आज हो असो तरी दिसता. नाजाल्यार हांव नकळों

कितें जातलें आशिल्लें तें! तुज्या बापायक दोन चलयो जाल्ल्यो आनी म्हगेर दोन चलेच जाल्ले. तेन्ना तुज्या बापायक हांव हांसतालों. हांव कितलो भाग्यवान म्हणून नेट मारतालों. घराचे दिवे जल्मल्यात म्हण नाचतालों. तांच्यो सटी, बारशे, वाडदीस व्हडल्या दबाज्यान मनयतालों आनी त्याच वेळार तुमी दोगूय चलयो जाल्यात म्हण खंततालोंय. तुज्या बापायचेर म्हजो भोव मोग आसलो. आमी शेजराकूच रावताले. मागीर म्हजी बदली जाली आनी येणें-वचणें थांबलें.

**दोतोर** : तुमचो दुसरो चलो खंय आसा?

**विष्णू** : दुसरो न्हय, व्हडलो. हो दुसरो. व्हडलो चलो इंजनेर जालो आनी व्हडले कंपनींत नोकरेक लागलो. तेन्ना दिसलें जीवनाचें सार्थक जालें. (प्रकाश बांकार न्हिदता)

**दोतोर** : मागीर?

**विष्णू** : मागीर कितें? ताका हुशार म्हण कंपनीन फॉरेनाक धाडलो आनी थंयच घात जालो.

**दोतोर** : कितें जालें ताचें?

**विष्णू** : आनी कितें जातलें? म्हजें कपल! ताका थंय अमेरिकेक मॅडम मेळ्ळी. लग्न जावन थंयच तो रावलो. आनी ते खंतीन ताची आवय खंवसली. (दुखेस्त जाता)

**दोतोर** : विष्णुकाका, तुमी घराकडेन वचून आयले?

**विष्णू** : हय बाय. हांव घराकडेन पयलीं गेल्लों. तुजो बापूय, आवय आनी भयण म्हाका घराच मेळ्ळीं. ताणींच म्हाका सांगलें तूं हांगाच नोकरी करता म्हण. हांव आयिल्लों कारण थंयच्या दोतोरान प्रकाशाक हवापालट करूंक जाय म्हण सांगिल्लें. पयरूच ताका हॉस्पिटलांतल्यान घरा हाडलो आनी आज आमी हांगा आयले. हांगा येतकच आनी खूब वर्सांनी तुज्या बापायक मेळटकच जिवाचें समाधान जालें. तूं दोतोर जालां हें आयकलें आनी प्रगती एल.एल.बी.क विद्यापीठांत पयलें आयलें हें कळ्ळें. पूण म्हादुबाबाक तोंड दाखोवंक लज दिसली.

**दोतोर** : वा! काका तुमी भाव म्हणटात आनी तांकां तोंड दाखोवंक लज दिसली?

**विष्णू** : तशें न्ही गो पुता. तुका बापायचें दुःख कळचेलें ना. आपली भुरगीं शिकचीं, व्हड जावचीं आनी घराण्याचें नांव वयर काडचें अशें जण एका मनशाक दिसता. पूण अपेक्षाभंग जातकच काळीज रडटा गो बाय. काळीज रडटा.

**प्रकाश** : (उठत) बाबा स्वाती आनी प्रगती ताईक दोळ्यांनी पळयलीं आनी आतां म्हजी म्हाकाच लज दिसूंक लागली.

**दोतोर** : असो निरशेंव नाका. अजूनय वेळ वचूंक ना. तुका जर हातुंतल्यान भायर पडचेलें आसा आनी घराण्याचो दिवो प्रकाशमान करचेलें आसा जाल्यार हांव सांगतां तें आयकुचें पडटलें.

**प्रकाश** : सांग, ताई सांग. बाबान, आईन सांगिल्लें तें आयकलें ना. कॉलेजींतले वांगडी म्हळ्यार व्हडले बरें मागपी दिसले. आनी तांचे भुलवणेक भुलून हांव वायट व्यसनांच्या स्वाधीन जालों. ताचें म्हाका आतां खऱ्यांनीच दुःख भोगता.

**दोतोर** : हें पळय म्हाका तुवें ताई म्हळां आनी तुजो बाबा आनी म्हजो बाबा भाव भाव कशे वागतात. तुज्या बाबाक म्हातारपणांत तूं तरी आतां सुशेग दी आनी तेखातीर तुवें हांगाच आमच्या म्हऱ्यांत थोडो तेंप रावचें पडटलें. आनी आमी सांगता तशें वागचें पडटलें. आमच्या गावांत अजून घुंवळी वखदांचें व्यसन पावूंक ना. तेन्ना तुका ह्या वातावरणांत तें मेळचेंय ना आनी हांगाची हवाय बरी आसा. तेन्ना तूं बरो सुदारतलो.

**प्रकाश** : खरेंच ताई, तुमी चलयो जावन घराण्याचें नांव राखलें आनी आमी चले आसुनूय अशे नालायक जाले हाची म्हाका लज दिसता आनी हेखातीर हांव तुका उतर दितां, हांव म्हाका सुदारपाचो यत्न करतलों.

**विष्णू** : बाय तुमचें बरें जावं. म्हजे घरकान्नीच्या आत्म्याक

खरेंच शांती मेळटली हो सुदारत जाल्यार.

दोतोर : तुमी कांयच खंतूं नाकात काका. ताका आमचे म्हऱ्यांत दवरात. आमचो ल्हान भाव म्हण आमी ताची काळजी घेतलीं. आमकांय भाव ना ती उणीव पयस जातली आनी बाबा आईकूय पूत मेळिल्ल्याचें समादान जातलें. (नर्सीक) सिस्टर, उरिल्ल्या पेशंटांक चारांक यो म्हण सांग आनी एकाक सेंटर बंद करून चल तूं. चारांक यो. चल काका. प्रकाश, घरा वचूंया. (वतात)

(पड्डो पडटा)

व्हनीबाय
जायू
म्हाड्डू
शेखर
अलका
केंसर
दोन भुरगीं
रोज
बाप्पा
पेद्रू

३.

## व्हनीबायगेर टी.व्ही. येता

# ३.

## व्हनीबायगेर टी.व्ही. येता

(थळ: व्हनीबायलें घर. व्हनीबाय एक समाज सेविका, महिला मंडळाची अध्यक्षा, एक प्रसिद्ध बायल. तिगेर आयज टी.व्ही. येवपाचो आसा म्हण बोवाळ चल्ला.)

**व्हनीबाय** : जायू ऽऽ ए ऽऽ जायू! घासली हय गो पंचारत आनी पडगो?

(व्हनीबायगेर कामाक आशिल्लें भुरगें भितल्ल्यान येता. तोंडाक गोबोर आनी हाताक काळें लागलां. साय ब्लावज घाला.)

**जायू** : ही पळय घासता व्हनीबाय.

**व्हनीबाय** : ही ऽऽ पळय म्हणून दाखोवंक घेवन आयलां तें ती कितें टी.व्ही. गो? काय ऽ तर दिसता, सवंग! फाल्यां टी.व्ही.र पार्ट करूक तुजें नांव धाडून दितां.

**जायू** : म्हजें नांव मागीर टीयीर येतलें न्हू व्हनीबाय? (मुरगट्टा) व्हनीबाय हायें मगे शाळेंत दुसरी शिक न्हू, तेन्ना एक सवंग केल्लें नाटकांत, दोरपतीचें. णव वारी कापड बीन न्हेसलेलें. नाटक सोंपतरेर म्हगेल्या दादीन म्हाका खांदार बसोवन घरा व्हयलेलें आनी म्हजी दिश्ट बीन काडलेली. म्हाका घट याद आसा ती. म्हजी आवय सांगी, हांव खंय सारकी दोरपती कशी दीस. त्या दिसा खंय खरेलो किरीष्ण नाटकाक येयलेलो जाल्यार तो पासून खंय दोरपते म्हाजे भयणी म्हुणून धांवत येवन म्हाका येंग मारतोलो आसलो.

**व्हनीबाय** : पुरो हां पुरो तुज्या सवंगाच्यो तोखणायो. धड कसली याद उरना आनी नाटकांत सवंगां करतलें खंय सवंगां!

आपल्या जीवाक पद्मीनी कशें तोखेता पळे. वच पयलीं ती पंचारत आनी पडगो चकचकीत घांस आनी पडग्यांत पिंजरीचें राट कर. तीन पीठाचे गुळे कर आनी सकाळीं केल्लो फुलांचो हार आनी फोगोट्यो जाग्या जाग्यार दवर. मागीर आनीक बोवाळ नाका. हे येवचेले जाले टी.व्ही. घेवन.

**जायू** : आनी व्हनीबाय, पंचखाद्य नाका लोकांक वांटूक? त्या शाणू पैले मावशीबायन पांच नाल्लांची पंचखाद्य वांटलेली सगळ्या शेजाऱ्यांक. तेशिवाय पेडे खेरीज वांटलेले.

**व्हनीबाय** : हें तुवें म्हाका मातशें पयलीं सांगचेलें न्ही गे? हांव हांकां मैसूरपाकच हाड म्हण सांगतली आशिल्ली. हांवें पेडे हाडूंक सांगल्यात. चल आतां वेळ करनाका. म्हाळ्ळूल्या, गुरूल्या, शिवरामाल्या आनी भैयाल्या हॉटेलांत आसा तितलेय मैसूरपाक हांवें बांदून दी म्हुणून सांगल्या म्हण. तांकां सांग, पैशे कितले जातात तांचें बील धाडून दी म्हण (वचूंक लागता.) आगो ये? ती पंचारत घेवन आनी तोंडाक काळें काडून खंय वता गो? तोंड हारशांत पळय तें पयलीं. हात धूय आनी मागीर चल. आनी हां, येतनाच सगळ्या वाड्यावेल्या लोकांकूय सांग आमगेर आज टी.व्ही. हाडटात तेन्ना तुमी पळोवंक येयात म्हुणून.

**जायू** : बरें तर वयतां हांव.

**व्हनीबाय** : आनी हें पळय. फक्त आमच्या वाड्यावेल्या ह्या चारपांच घरांनीच सांग आं. नाजाल्यार पेरगांव घालीत बसशी लोकांक, व्हनीबायगेर टी.व्ही. पळोवंक येयात म्हण. फकत मरतें आकागेर, शेवतें मावशेगेर, गोकू मावशेगेर, फोटूमामागेर, भीकूगेर आनी पारवती काकीगेरूच सांग. हें पळय, त्या विसू कामतीगेर, शाणू पैगेर बी सांगनाका हां. तांगेर टी.व्ही. हाडला.

**जायू** : तें हांव नकळों हय गे व्हनीबाय? विसू कामतीगेर पेडे दिल्ले पूण पंचखाद्य दिवंक ना, आनी शाणू

पैगेर पंचखाद्य आनी पेडे दिल्ले आनी दनपरां म्हाका जेवच्याक आपयलेलें. हांव वचोना हां व्हनीबाय.

**व्हनीबाय** : जाणां हांव. तूं पयलीं फटींग. तांगेर पेडे तरी कित्याक खावंक गेल्लें? म्हजेकडेन मागल्यार हांव तुका हाडून दिवची नासली?

**जायू** : (आपणाभितर) आतां हायेंन तेंगेर खाले म्हुणोन ही अशें म्हणटा. हांव जाणां न्हू ही कितें दिवपी ती! आयचें उरलेलें कालोवंक आयज दिवचेली तें फाल्यां दिता शेळें जातरीर. हेंका वावराडी म्हणल्यार सुणीं कशीं दिसतात सुणीं.

**व्हनीबाय** : जायू, कळाव लायनाका गो. बेगीन यो. सगळीं कामां तशींच आसात.

**जायू** : (वतां वतां) धांवत वयतां आनी पळत येयतां व्हनीबाय.

**व्हनीबाय** : (दाराकडेन वचून) आनी हें पळय सगळ्या लोकांक बी आपोवशी हां लग्नाक आपयल्ले सारकीं. तुका सांगलां तांकांच सांग. (पैसुल्ल्यान जायू बरें बरें म्हणटा.) आनी हो म्हाड्डू खंय गेलो काय? ताका सांगिल्लें भितल्ले शोकेशींतलीं सगलीं आयदनां कुशीक काड आनी जागो निवळ करून दवर म्हण टी.व्ही. दवरूंक. पूण हाचो पत्तोच ना. म्हाड्डू ऽऽ ए ऽ म्हाड्डू.

(म्हाड्डू व्हनीबायलो घरकामती. आरमारी पोंदा आसता)

**म्हाड्डू** : ओव. कितें व्हनीबाय?

**व्हनीबाय** : आरे खंय आसा तूं?

**म्हाड्डू** : आरमारी पोंदा व्हनीबाय.

**व्हनीबाय** : आरमारी पोंदा? थंय कितें करता तर तूं?

**म्हाड्डू** : चिखलांत मुंगरलां व्हनीबाय. मातसो हात दी भायर सरूंक नाजाल्यार हांव हुंदीर माजराक फारावता तसो हांगाच फारावतलो.

**व्हनीबाय** : हो एक शिणमिण्याक मीणमीणो करूंक आयला. आरे

तुका आरमारी पोंदा वचून त्या चिखलांत मुंगरूक कोणें सांगिल्लो? तूंच न्ही तो सगळो कोयर व्हरून व्हरून आरमारी पोंदा घालपी! आतां बस थंयच.

**म्हाड्डू** : (खोंकता, शिंकता) व्हनीबाय, नाकांत कोयर गेला तो काडूंक एक खोरें पळय. (शिंकता. व्हनीबाय ताका हाताक धरून वयर काडटा. म्हाड्डूच्या तोंडाक मावलेचीं घरां, तोंडाक चिकोल बी लागला.)

**व्हनीबाय** : वच आतां भितर आनी तोंड धुवन यो. धा वरां जावचेलीं जालीं. अजून म्हजी कांयच तयारी जावंक ना. आरे, तीं बोनेरां तरी लाय मरे ते कुडींत आनी आंब्यापानां बांद मरे शोकेसीक. (जायू पुडी घेवन धांवत येता. बरोबर व्हनीबायलो चलो शेखर आनी चली अलकाय धांवत येतात. तीं खोशयेंत आसात.

**जायू** : व्हनीबाय, व्हनीबाय.

**भुरगीं** : आई, आई.

**जायू** : व्हनीबाय येयलो. येयलो व्हनीबाय. (सगळ्याक नाचता)

**अलका** : आई, आयलो पळे आमचो टी.व्ही. आयलो.

**व्हनीबाय** : कितें? टी.व्ही. आयलो आनी हांवें अजून कांयच तयारी करूंक ना. जायू चल बेगीन पिठा गुळे आनी राट करून हाड. (जायू धांवता) शेखर, ते फोगोट्यां माराण पळय खंय दवरल्यात ते.

**शेखर** : आई, फोगाट्यो हांव मारूं न्ही?

**व्हनीबाय** : हय, हय. पूण सांबाळून आं.

**शेखर** : (नाचत) कोंबडे बाबांनो, साद रे घाला. आमगेर आयज टी.व्ही. आयला. ठो-ठो-ठो (तोंडान आवाज करता).

**व्हनीबाय** : अलका, तो फुलांचो हार पळय खंय तो. आनी पंचारतीक वाती घाल. म्हाड्डू, जाली मरे तयारी? चल आतां रिक्षांतल्यान तो टी.व्ही. काडून घेवन यो.

(म्हाड्डू गणपती बाप्पा मोरया करीत वता. टी.व्ही. हाडटा. व्हनीबाय ओवाळटा, राट दाखयता. शेंवतेंआका, भीकेमावशी येतात. फोगोट्यो

लायतात. पंचखाद्य वांटटात. मागीर टी.व्ही. व्हरून शोकेसींत दवरता आनी इन्जीनियर टी.व्ही. लावंक वता.)

**व्हनीबाय** : जायू, ए जायू.

**जायू** : कितें व्हनीबाय?

**व्हनीबाय** : कितें करी गो भितर?

**जायू** : टी.व्ही. कसो लायता तें पळयी.

**व्हनीबाय** : (चाळयता) टी.वी. कसो लायता तो पळयी! हांगा राव. कोणूय आयल्यार तांकां हांगाच बसय. हांव वतां टी.व्ही. लायता तो पळोवंक. (वता)

**जायू** : म्हाका तापयलें आनी आपूण गेली. बरी आसा! इतली म्हातारी पूण बरी जाता कोंबी कशी.
(फोन येता, जायू फोन घेता) हॅलो ऽ हॅलो. हांव तें जायू. व्हनीबायली वावराडी उलयतां. कितें टी.वी न्हू? हाडला. पूण म्हाका सांगलां कोणाक सांगोनाका म्हुणोन. तुमकां कशें कळ्ळें? मोगून सांगलें? सामकें कानफुटें मरे तें. तेका हायें कोणाक सांगोनाका म्हुणून सांगलेलें. तेका राव. बरें ऽ बरें. (फोन दवरता. व्हनीबाय भायर येता.)

**व्हनीबाय** : जायू, कोणालो फोन आयिल्लो गो?

**जायू** : त्या शंभू हवालदारालो.

**व्हनीबाय** : आतां हें अशें! लोकांक कशीं सपनां पडटात म्हुणून कोण जाणां. आमगेर मातशें साटसूट जाल्यार पुरो, ही गर्दी जमता. व्हनीबायलें घर म्हळ्यार तांकां ग्रामपंचायतीची बिल्डींग बी दिसता काय कितें? (वता)

**जायू** : (व्हनीबाय वता तें पळोवन) ही चल्ली भितर टी.यी. पळोवंक आनी हांव हांगा कित्याक रावूं? हांवूय वयतां आनी खंयच्याय कोनश्याक रावन टी.यी. पळयतां. (वता)

(इतल्यांत केंसर येता. वांगडा दोन शेंबडीं भुरगीं. तांच्या आंगार म्हेळे कपडे आसात. केंसराच्या हाताक आनी न्हेसणाक धरून एकटें

आनी दुसरें हांडीर अशीं येतात. पेडणेची भास उलयता.)

**केंसर** : व्हनीबाय गे व्हनीबाय. (व्हनी भायर येता) येयलो मगे तां पिक्चार दाखोवचेलां तुमचेहार ? आमचो थोरलो झीलो सांगा आसलो रीक्षा कोरून हाडा म्हणान. तेणें ह्या पोरांच्या फुडें तां सांगलां आनी ही पोरां लागलीं हुयेली मारूक आमकां वांयच दाखोवन हाड म्हणान.

**व्हनीबाय** : आगे, पूण तुमच्या शेजराक शाणू पैगेर हाडला मगे टी.व्ही.

**केंसर** : शिरा मार हाडोन तेंच्या टीयीक. तेंच्या हार हाडलो म्हणान तो आमकां भोव दिसचो आसा. काल म्हाज्या ह्या वासल्याक त्या शाणे पैले बायलेन न्हू गे काटयेन मारलो आंगणांत उबो रवलो म्हणान. मीयां हेंकां सांगलांच आरे तेंगेर वाचो नाका ती काय व्हनीबाय ? ती राकेस बायल तुका ती खातली, जीतो थेयचो ना म्हणान. पूण पोरां आयकूंक येयल्यांत ? बरा म्हणान बरा तेंचा जीवाच घेतली आसली ती आमचो हो थंयसर पावना जाल्यार.

**चलो** : आवय, खंयसर आसत गे ता पिच्चार (शेमूड नाकांत भितर ओडटाआनी बुशकोट तोंडांत घालून चाबता) दाखय गे बेग्यान.

(मदींच धाकटें चली रडटा. व्हडलो ताका ल्हवूच चिमटो काडटा. तें मोट्यान रडटा. आवय तांचेर एक धपाटो घालता.)

**केंसर** : गप्प बसान थीडेन. काय टीयी बघून इल्यात काय हुयेली मारूक इल्यात हं.

**व्हनीबाय** : आगे, त्या भुरग्यांक मातसो थाराय. बसात वचून भितर. वगी राव हां बाय. दिसतलो पिक्चर. आमीच आजून पळोवंक ना. बोवाळ मात करूं नाकात हां.

**भुरगीं** : बरां, बरां व्हनीबाय (भितर वता).

(रोज येता. तिणें व्हिस्तीद घाला)

रोज : हॅलो व्होनीबाय. मोटी मुगे तूं व्होनीबाय. तुमगेर टी.व्ही. हाडटाय म्हुणोन तुयेन मोहीला मोंडोळांत बीन म्हुळें ना मुगे?

व्हनीबाय : टी.व्ही. हाडपाचो आमी रातींच थरयलां.

रोज : कितें, बूक कोरीनास्तोना तुमकां टी.व्ही. मेवलो तोर गे?

व्हनीबाय : तसो आमी केन्ना बूक केल्लो गो. पूण आयज व्हरया, फाल्यां व्हरया म्हण तसोच उरलो.

रोज : खुंय तोर गे तो?

व्हनीबाय : अजून खंय कितें जालां गे? आतांच लायतात ते.

रोज : म्हुणतोगेज वेळ आसा जातलो न्हू? (भितर वता)

व्हनीबाय : (वता ती पळोवन) पळय आपल्या बापायलें घर कशें विचारीनासतना सरलें भितर.

बाप्पा : (पुडवें सांबाळीत येता). रामबाब ऽऽ ए रामबाब.

व्हनीबाय : आतां आनी कोण आयलो? (दाराकडेन वता) येयात, येयात.

बाप्पा : रामबाब खंय आसा गे?

व्हनीबाय : भितर आसात. आपोवं? (आपलेभितर) हाका अजून आमगेर टी.व्ही. हाडला हाची खबर मेळूंक ना दिसता.

बाप्पा : आगे भितर बोवाळ सो कसलो चल्ला?

व्हनीबाय : हँ! बेश्टोच तो. शेजारचीं भुरगीं येवन करतात दिसता बोवाळ.

बाप्पा : (आपलेभितर) बरी वस्ताद बायल आं ही. हीगेर टी.व्ही. हाडला तो लिपयता पळे कशी. पूण न्हंयत हागिल्लें हुबल्याशिवाय रावता? म्हाका ह्या फोटेबाबाक कोण फटोवंक शकता? (उक्तेपणी) आगे व्हनीबाय, तुमगेर टी.व्ही. सो हाडला म्हण लोक उलयताले मगे तिट्यार.

व्हनीबाय : हाचें नांव हरशीं फटेबाब. पूण हाका फटोवपाक मात कोणूच शकनात आं. हो मात लोकांक हातावेल्या

हातार फटयता. (उक्तेपणी) हय बाप्पा. तुमकां तेंच सांगूंक सोदी हांव. पूण तुमीच पयलीं तें सांगलें.

**बाप्पा** : आगे, राम जावचे पयलीं रामायण सांगूंक हांव कितें वाल्मीकी गे? तुमी कोंब्याक धांपून दवरलो म्हण कितें सकाळ जावची रावता? बाकी हांव हांगा आयिल्लों तो टी.व्ही.खातीर न्ही आं. सदांभशेनूच तुज्या हातची च्या पिवपाची तलफ आयली म्हण आयिल्लों. (बसता)

**व्हनीबाय** : (आपलेभितर) पळय एका फातरान कसो दोन पांखे मारूंक सोदता तो. हो हरशीं टी.वी.च पळोवंक आयला. पूण फुके सवाय. टी.वी.य जालो आनीक च्याचेय चाळीस पैशे वांचले. (उकतेपणी) बाप्पा तुमकां आनी च्या नाजाल्यार जालें! आमी म्हयन्याचें सामान हाडटात तातूंत तुमचेखातीर च्या पावडर आनी साखर खेरीज हाडटातूच. कारण म्हयन्यांतल्यान तीस दीस तुमी आमगेर च्या पितात हें हांव विसरलें व्हय?

**बाप्पा** : (आपलेभितर) पळय पळय म्हजी च्या कशी म्हाका दुख लायना आसतना वयर काडली ती. दुखनासतना कांटो काडप म्हणटात तो हो असो. वोगीच ही महिला मंडळाची अध्यक्षा आनी मुख्य सेविका जावंक ना. हिचीं उतरां लोकांक आयकूंक मोगाळ, पूण अर्थ मात तिखट. लोक फटोवन दितात मतां. पूण हो फटेबाब बारा गांवचें उदक पिला. सोंपपणी ह्या बायलांकडेन मात कसोच फटोवचो ना. (उकतेपणी) आगे व्हनीबाय तें सगळें आस्सूं गे. टी.व्ही. लावन बी जालो हय गे?

**व्हनीबाय** : तुमी म्हाका उलोवंक खंय दितात तर? हे भितर टी.व्ही. लायतात.

**बाप्पा** : बरें तर. पावलांच न्ही हांव एका निमतान टी.व्ही.य पळोवन घेवया तुमचो. पूण हां! टी.व्ही. बोवाळांत च्याचें मात विसरूं नाका आं. (भितर वता)

**व्हनीबाय** : म्हातारो टी.व्ही.च्या बोवाळांत च्या विसरला जाल्यार

पळय. हय. हांव दितां च्या हाका. हांव कितें टी.वी. पळोवचो सोडून रान्नीपोल्लांत पडूं काय कितें? हें जायू आनी म्हाड्डू खंय? हेडटात काय? जायू ऽऽ जायू ऽऽ

जायू : कितें व्हनीबाय?

व्हनीबाय : आगो, तो म्हाड्डू खंय गेला गो व्हदोळच्यान?

जायू : टी.व्ही. पळयता तो व्हनीबाय.

व्हनीबाय : कितें? टी.व्ही. लागलो?

जायू : हय व्हनीबाय.

व्हनीबाय : आनी म्हाका सोडून तुमी दोगांय टी.व्ही. पळयतात? (रागान) म्हाड्डू, ए म्हाड्डू!

म्हाड्डू : व्हनीबाय कितें पोरोगराम लागला जाणा? टीयीचेर डिस्को. (नाचता)

व्हनीबाय : ये बंद कर तें माकडां भशेन नाचप आनी हें पळय तुमी दोगांय हांगा रावात. म्हाड्डू तूं फोन पळय आनी जायू तूं कोणय म्हाका मेळूंक आयल्यार भितर येवन सांग. (वता)

म्हाड्डू : जायो, आमकां काम मात फोर्त मेळ्ळां न्हू गो?

जायू : हय तर रे म्हाड्डू! नाजाल्यार सदींच ह्या येळार ती वलीं उमळूंक आनी उदक भरूक बसचें पडटालें. आज कोण न्हांवकय सोदीनात आनी जेवणय करीनात.

म्हाड्डू : जायो तुयेन पळोयलो मुगो टीयीयेलो पोरोगराम?

जायू : खंय रे पोरोगराम? हांव कितें टी.यी. पळयी? त्या टी.यी. परस त्या टी.यी. पळोवंक येयलेल्या बायलांचोच पोरोगराम चड बोरो आसलो.

म्हाड्डू : हायेंय मातशें आयकलेलें. ती पेडणेकान्न कितें म्हणी जाणा? "गो रोजा तूं एकलाच सा इलां गो? झीलाक खेका हाडूंक ना?" मागीर रोज म्हण्टा, "मुगे चेडो इस्कलाक गेलो. मुगे सोकणी म्हाका मातशें उगसार गोमलें." त्या उतराक ती कारवारकान्न.म्हणटा "म्हाका हेमी पैल्यानूच सांगन दवल्लेलें. तेका लागून हायें चेरडूवाक शाळेंक धाणणच दिलें ना. नातर तेमकां हाडूं

आनी कोण वैतलो?"

**जायू** : आरे ते तरी भुरग्यांलेंच जालें पूण ती भीके मावशी आनी शेंवतू आका किर्ते उलयतालीं जाणा? (भिकेमावशेली एक्शन) "ए शेंवतुआका, चेडवाक येयल्या हय गे एक तरी सोयरीगत?" तेजेर शेंवतू म्हणटा, "खंय गे पापये? हे सामकीं जोतीं झरयतात. पूण तो हुंडो खंय गे बाये आमचेकडेन दिवंक जाता?" (इतल्यान फोन येता. म्हाड्डू फोन घेता)

**म्हाड्डू** : येलो ऽऽ येलो ऽऽ हांव म्हाड्डू उलयतां. किर्ते कांड्डूव – आरे म्हाड्डू ऽ म्हाड्डू – सारकें आयकोंक येयना जाल्यार कानांत इल्लेशें भिंडेल घाल. किर्ते, म्हाका हें म्हारग पडटलें? पोडों ऽऽ पोडों ऽऽ – तूं सवाय मेळटा थंय चल – पात्रांव ना. टी.यी.बीन कांयच हाडोंक ना. (फोन दवरता)

**जायू** : कोणालो फोन रे म्हाड्ड्या?

**म्हाड्डू** : जाणां कोण? हो म्हाका म्हाड्डू उलयता म्हळ्यार कोण शेड्डो उलयता काय म्हण्टा. म्हणतगेर हायेंन म्हणचें पडलेंना, हांव म्हाड्डू आनी तूं भेड्डो म्हुणोन.

**जायू** : आरे, पूण पात्रावांल्या सायबालो बीन आसलेलो जाल्यार रे तो फोन?

**म्हाड्डू** : पात्रांवाल्या सायबालो आसों ना जाल्यार त्या सायबाल्या सायबालो आसूं. म्हाका किर्ते तेचें? आयज हांव हांगा पात्रांव. हांव फोन घेतां न्हू गो.

(इतल्यांत पेद्रू बेबदो हातांत पिशवी झेलकां मारीत येता)

**पेद्रू** : वो व्हुनये (जायूक) बोरी मुगे?

**जायू** : किर्ते हांव तुगे व्हनी?

**पेद्रू** : ओय गे. तूं मुगे व्हुनीच. मुगेलीच न्हू तूं सोगल्यांगे व्हुनीच. म्हुगे व्होनी, हेगे व्हुनी, तेगे व्हुनी, तेजीय बीन सोगल्यांली.

**जायू** : म्हाड्ड्या हें सगळें घुंवता मरे.

पेद्रू : चोय फोरेंच. म्हाका दिसो म्हाकाच घुवोळ बा येता मिस्ता म्हुणोन पूणोन तुमचेंय धुंवता मुगे व्हुनये?

जायू : आरे म्हाजें आजून लग्नच जावंक ना मरे आनी म्हाका व्हुनये व्हुनये कितें करता? तुका सावरना जाल्यार इतलें कित्याक पियेता?

पेद्रू : कितें हांव पियेलाय? कोण सांगोता तो. हाड तेका म्हुज्या म्हुऱ्यांत. एक फुलोयतां तेजेर. हो पेद्रू म्हुणल्यार कोण दिसता तुमकां? हाड तेका म्हुज्या म्हुऱ्यांत. (म्हाड्डुच्या आंगार वता)

म्हाड्डू : कितें? बायेकूय फे आनी बाबाकूय फे? हायें हेजें कितें केलां रे? हो म्हाजेर सो जुडून येयता? यो पोळोवया फुडें. पेद्रूचो लाद्रू करतोलो. (हात थोपटीता)

पेद्रू : हां. तूं रे म्हाड्डू? म्हाका ह्या दिसांनी येशेंच दुयेंस जालां रे. कांय दिसोच ना. म्हाड्डू व्हुनी फूंय गेल्या रे? भितोर ना.

म्हाड्डू : जायो टी.यी.क आनी एक गिरायक येयलां दिसता.

जायू : (पेद्रूक) कित्याक रे ती व्हनी?

पेद्रू : एक काम आसलेलें (माथें खरपिता)

म्हाड्डू : आमकां सांगचेलें न्हू?

पेद्रू : म्हाड्डू तें काम जायू कोडें जावचेलें न्हू पूण तुकोडेन जातलें. म्हाका एक रूपोय जाय आसलो. तूं दिता जाल्यार बोरेंच जालें. खूब गोरोज आसा रे म्हाड्डू. हांव केदोना येशे पोयशे गोरजे भायर मागपी रे? आतां व्हूनी आसल्यार मुगे काम जालेंच.

जायू : (आपलेभितर) म्हाड्डू धांवडाय पनवत.

म्हाड्डू : हें पळय पेद्रू. माजेकडेन इख खातलो जाल्यार धा पयशे नात. तुजेडेन एक इडी आसल्यार तूं म्हाका दी. आज व्हनी ना म्हुणोन हांवूय इडयेक पातीशेर जालां.

पेद्रू : व्हनी ना मुरे. तेशें जाल्यार हांव वोयतां. तोर जायू तूं म्हुजेर रागार ना मुगो?

जायू : ना रे सायबा. चल पोळोवया तूं मातसो.

पेद्रू : (रागान) कितें म्हाका चोल म्हुणटा? हें तुगे घोर गो? ना वोसपाना. व्हूनी यो सोर हिंगाच बोसोतेलों. (बसता आनी कांतार म्हणटा. फोन येता. म्हाड्डू फोन घेता.)

म्हाड्डू : येलों ऽऽ येलों – कितें? कितें? कोण येयलो काय म्हणटा? आरे हांयें फोनार येलो म्हटलां. तूं कोण काय म्हणटा? आरे म्हाका ह्या म्हाड्डूक वळखना? आरे हांव ह्यांगाचो पात्रांव.

जायू : (मर्दीच) म्हाड्डू, आरे तूं पात्रांव म्हुणोन तेंका कितें सांगता रे?

म्हाड्डू : (फोन तोंडाक लावनूच) तूं वगी बस गो थंय जायू – आरे तुका कोणें कितें म्हटलां रे? हायें ह्या जायूक म्हटलां आमच्या – कितें फोन कानाचो काडून जायूकडेन उलय म्हणटां. तूं म्हाका हें सांगूंक कोण? हांव फोन लावन जायूकडेन उलोवं ना जाल्यार आनी कितेंय करूं. तुजें काम कितें तें म्हाका जाय. कितें? टी.यी. येयला काय म्हणटा? म्हाका खबर ना. व्हनीबायक आपय? ना आपयना. ती टी.यी. पळयता. – हय. हय, येयला मागीर कितें जालें? हांव फट उलयतां? आर्र तूं. (फोन दवरता)

जायू : कोणाचो रे फोन येयलेलो?

म्हाड्डू : हायेन खंय इसारलां?

जायू : आरे, मागीर व्हनीबायक कितें सांगतलो तर रे तूं?

म्हाड्डू : हांव कांयच सांगचोना. तूं वग्गी बस थंय. (इतल्यान परत फोन येता)

म्हाड्डू : येलो ऽऽ येलो – तूं कोण? कितें पैलीं तूं कोण तो सांग. आरे म्हाका तूं वळखना? कितें? आरे अमिताभ बच्चनाक तूं वळखता, किशोर कुमाराक वळखता आनी म्हाका वळखना? हायें सकाळच्यान कितले फोन केले आनी म्हाजो आवाजूय तूं वळखना? अजाप मरे हें. आरे हांव म्हाड्डूबाब. हय, हय. व्हनीबायगेरूच साकून उलयतां. तिजो मांव न्हू, सेरवेंत.

टी.यी. ना येवंक. किर्ते तूं आमगे पात्रांवालो पात्रांव? टी.यी. येयला. पात्रांव बरो आसा. टी.यी. पळयतां – हांव नोकळो – बोरो ना बीन दिसता. येलो – येलो.

म्हाड्डू : जायो घात जालो. पात्रांवान बोरो ना म्हुणोन सुटी घेतलेली दिसता. हायेन तेज्या पात्रावांक सांगलें तो टी.यी. पळयता म्हुणोन.

जायू : केलो मरे घोटाळो? आतां पात्रांवालीय सिरयीस वयतली आनी तुजीय बीन.

म्हाड्डू : जायो आतां किर्ते कोरूया गो?

जायू : तूं व्हडलो पात्रांव न्हू रे? आतां कर फोन.

(इतल्यांत लायट वता आनी बोवाळ जाता. म्हाड्डू फस्का काडी पेटयता आनी दिवो लायता)

व्हनीबाय : पाड पोडूं हे लायटीचें. काय बरो प्रोग्राम आशिल्लो जाणां.

केंसर : (भायर येता) मियां आता पोरांक घेवन वयतंय गे व्हनीबाय. बरां गो जायू. (वता)

बाप्पा : (भायर येता) व्हनीबाय. टी.व्ही. ना तो ना. चाय बी ना मगे? वतां तर हांव. (वता)

पेद्रू : सोगले गेले पुणोन हांव एक रुपोय घेयल्या बोगोर हिंगाचो हालचोना. व्हुनये एक रुपोय दी मुगे. गोरोज आसा. साकोर आनी चायेपिटो काबार जाला. भुरगीं बोब मारतलीं. पाय चाव दी पाय चाव दी म्हुणोन.

व्हनीबाय : जाणां. तुगेलीं भुरगीं सदांच कित्याक ना जाल्यार कित्याक बोब मारतातच. च्या नाजाल्यार पेजेक. पूण पैशे दिल्ले मात आंतोनीले गादयेर वतात तें हांव जाणां. (एक रूपया हाडून दिता) हो घे रुपया नाजाल्यार तूं खंय हालता हांगासल्लो?

पेद्रू : पोयलें मुरे म्हाड्डू दिलो मुरे रुपोय. शापोतां सांगो न्हू रे तूं. व्हुनये चल्लो हांव. (यो बायले यो पद म्हणत वता)

**व्हनीबाय** : जायू, तूं हांगा कितें करता? चल मगो उदक तापय. न्हातां तरी. वलीं उमळूंक वचूंक नाका तुका? चल यो भितर आनी म्हाड्डू बाजारांत नुस्तें कितें आयलां पळय आनी घेवन यो. (फोन येता. व्हनीबाय फोन घेता) हॅलो ऽऽ हॅलो. हांव व्हनीबाय. तुमी कोण? हांचे सायब? कितें टी.व्ही. पळेता म्हूण सांगलें? ना, ते खरेलेच बरे नात. तो म्हाड्डू मातसो केरेक. हां, हां. बरें. (फोन दवरता) म्हाड्डू, तुवें हांच्या पात्रांवाक हे बरे आसात म्हुणून सांगलें मरे?

**म्हाड्डू** : हांव खंय जाणां आसलों ते बरे नासले म्हुणून?

**व्हनीबाय** : बरें म्हणून बरें. नाजाल्यार हे टी.वी. गडबडींत तूं घात करतलो आसलो आमचो.

**म्हाड्डू** : जालो ना न्हू घात व्हनीबाय? नाजाल्यार म्हाजोच जातलो आसलो घात पात्रांवाबरोबर. (इतल्यांत अलका, शेखर येतात)

**शेखर** : आई, भूक लागल्या. वाड.

**अलका** : आई, म्हाकाय भूक लागल्या. कितेंय खावंक दी.

**व्हनीबाय** : हांव जाणांच आशिल्लें तुमी भुकेतलीं म्हुणून. आतां हें अशेंच. सदांच उपासमार. त्यापरस ती लायट येना जाल्यार बरी.

**अलका** : आई, तो टी.व्ही.च व्हरून दी परत. म्हाका जेवंक वाड. टी.वी. नाका.

**शेखर** : म्हाकाय टी.व्ही. नाका. आज इश्कोल ना. जेवंकय ना. आनी अभ्यासूय ना. तूं तो व्हरूनच दी.

**व्हनीबाय** : जालें मरे? एकाच दिसान टी.व्ही. पुरो जालो? हांव जाणांच आशिल्ली. तो टी.व्ही. फाल्यांच विकूंक लायतां हांकां. नाजाल्यार हो लोकांचो बोवाळ आनी तुमचीं गाराणीं कोण आयकतलो? तो टी.व्ही. त्या शाणूपैक आनी वासू कामतीकूच बरो. चलात तुमकां मस्को लावन पाव दितां.

**शेखर** : (उडयो मारता) मस्को लावन पाव, मस्को लावन पाव (उडयो मारीत वतात. जायूय वता)

म्हाड्डू : बरेंच जालें. लायट गेली ती. म्हाजे दोनूय कान फुटले तो फोन आयकून आयकून. इडी ओडतोलो म्हळ्यार फुरसत ना. ते टी.यी. आमकां कोणें सांगल्यात ? (वता)

(पडडो पडटा)

धाकू
आका
चंद्रें
नयन
राजीव
वयनी
पोको
गजो

४.

---

# पानवळ

---

# ४.

## पानवळ

(थळ : आकाबायलें घर. पड्डो उगडटा तेन्ना माचयेर कोणूच नासता. वेळ सकाळची. धाकू पेपर घेवन भायल्यान येता. पेपर उरफाटो धरता आनी वाचता. धाकू नोकर. तोंडार काळो दाग आसा.)

**धाकू** : दाये वटेन येयल्या खंय ती गजाल. बाजारांत बोवाळ चल्लेलो. घेतलो जीव खंय सुनेचो पाड पडलेल्यांनी! पाडूच पोडों हेंच्चें. पैश्याचे आशेक कित्याक लगीन जातात कोण जाणा. पूण हो देव कसो फातरा काळजाचो! हांव इतलीं वर्सां लगीन लगीन करतां पुणोन कोणूच म्हाका चेडूं दिवंक तयार नात. हांव कितें तसो सामकोच वायट दिसतां? मातसो तोंडार काळो दाग आसा म्हुणोन! (आकाबाय येता).

**आका** : धाकू ये धाकू आयलो हय रे बाजारांत साकून? आनी हें कितें? नुस्तें बिस्तें कांयच घेना आसतना सो आयला?

**धाकू** : आकाबाय, आकाबाय, कितें सांगो? पेपरार ती गजाल येयल्या न्हू छापोन? म्हुणोन पेपर पयनी घेवन येयलां.

**आका** : कसली गजाल आयल्या रे? हाड पळोवया तो पेपर हांगा.

**धाकू** : हांव दाखयतां. दाये वटेन येयल्या खंय. (पेपर हेवटेन तेवटेन करता)

**आका** : आरे हांगा हाड तो पेपर सडसडीत आनी तूं वच तुज्या कामाक. सांगलां तें घेवन येवपाचें सोडून पेपर घेवन धांवून आयला. (पेपर काडून घेता, धाकू भायर वता)

**आका** : (पेपर वाचता) स्टोव फुटून मेली, मायन मारली, बांयत

पडली, धुकलून घाली. सगले उठल्यात ते मांयां फाटल्यान लागल्यात. ह्या दळीद्रयांक व्हडले व्हडले ऑफिसर घोव जाय आनी घेवन मात कांयच येवंक नाका. दुडू मोडल्याबगर काय ते व्हडले ऑफिसर जाल्यात ? ते दुडू कोण फारीक करतलो ? हांचो बापूय न्हय ? काय तर .... मरतात खंय ! मरच्यो ना जाल्यार आनीक कितें करतल्यो ? नाका परस मोती जड जातलें काय ना हें पयलींच पळोवन मागीर जावपाचें लग्न. आमगेली एक आसा दळदिरी. सारकी हे मेल्लेभशेनूच (पेपरार बोट दाखोवन) शंबर फावटी कितेंय हाड हाड म्हण फाटीक लागतकच आवा, शिवा, गोविंदा करीत कितेंय हाडटा. पयरूच फाटल्यान लागून लागून पुरो जातकीच भावान राजीवाकडेन फ्रीज धाडून दिला. आपूण आयलोना. आयिल्लो जाल्यार बरोच काडटलें आशिल्लें वडीर. एद्‌या व्हडल्या घरांत एदोसो फ्रीज धाडूंक मात लेगीत लज दिसलीना ताका. दळिद्री मेल्लो. चंद्रया ए चंद्रया ऽ

**चंद्रें** : (आकाबायली वावराडी. दिसूंक रूपान बरी. येता) ओ. आयलें आकाबाय.

**आका** : आगो चंद्रया त्या फ्रिजांत उदक थंड जाता मुगो ? बारीक म्हण विचारलें.

**चंद्रें** : आकाबाय बारीक जालो आनी मोटो जालो म्हण कितें जालें ? फ्रीज मगे तो. उदक थंड जातलेंच !

**आका** : पुरो ! चड जाणवायो करनाका. म्हाका घोंटभर थंड उदक हाडून दी. (चंद्रें भितर वता)

**नयन** : (आकाबायलें चली. पद गुणगुणत येता) निळेंनिळें सवणें एक सकाळच्या गो पारार ! भांगराचीं घुंगरां बांदून आयलें म्हज्या दारा !

**आका** : आज सकाळफुडें बरें पदेता शें मुगो ? कोणाचें तोंड पळयलां उठचे उठून ?

**नयन** : आगे आकाबाय, सकाळीं फुडें तुजेबगर आनी म्हाका दुसरें तोंड केन्ना दिसलां ?

आका : आसूं, आसूं. (चंद्रें येता) आगो चंद्रया, न्हाणयेरान्नीक उजो पेटटा मुगो? म्हाका न्हावन धुवन बेगीन बेकार जावंक जाय. दनपरां ती येतली.

चंद्रें : आकाबाय, म्हज्या जीवाक आज बरें दिसना. हांव आज घरा वतां.

आका : कितें? आज आमगेर सोयरीं येतलीं आनी तूं घरा वता? सगलें काम कोण करतलो?

नयन : आई, ताच्यान नजो जाल्यार वचूंनी ताका. हांवें आज लीव घेतल्या. हांव आनी वयनी आसतना तूं कित्याक भिता? चंद्रया चल तूं. तुका शिरोड्या वचपाक णवांक बस आसा.

चंद्रें : देव बरें करूं आकाबाय.

नयन : तुकाय देव बरें करूं. (दोळे मोडटा)

आका : (चाळयत) काय तर वयनी आनी हांव. चुडटी लाय तुज्या वयनीच्या तोंडाक. बरी आमीजाद केल्या मुगो? एक दीस ती तुजे तकलेर मिरयां वांटल्या बगर रावचेली ना. पळय हांव कितें सांगतां तें. वतां हांव. कळाव जातलो म्हाका. न्हावन देवाची पूजा करूंक जाय.

राजीव : (आकाबायलो चलो येता) नयन सगळें ठाकठीक जमता मुगो?

नयन : एकदम ओ.के. नाटक व्यवस्थीत चल्लां.

राजीव : आमची वयनीबाय कितें म्हणटा? तिचो बोवाळ ना सो?

नयन : आसा भितर (उलो करता) वयनी ए वयनी.

राजीव : वयनी, जाली हय गे सगली तयारी? यो मगे भायर.

वयनी : (भितल्ल्यान येता) येतां भावोजी.

राजीव : भावोजी ऽऽ भावोजी. आगे तुका कितले फावटी सांगलें म्हाका भावोजी म्हणीनाका म्हण. भावोजी म्हणटकीर म्हाका हांव पुडवें, कोट, माथ्याक तोपी, पांयांत कोल्हापूरी जोतें, हातांत कपड्याची पिशवी आनी खांक्यात बडी घेतिल्ल्या भावोजीचें रूपडें दोळ्यांमुखार येता. काय बरें राजीव नांव. तें सोडून तूं हें भावोजी

भावोजी चीलापोतें कितें म्हणटा? भावाक उलो मारता तसो मार. म्हाका राजीव म्हण.

**वयनी** : बरें बाबा, राजीव म्हणटां. कितें नवीदाद हाडल्या?

**राजीव** : आगे तुजो भाव मेळिल्लो. फ्रीज कसो आसा काय म्हण विचारी.

**वयनी** : खबर आसा म्हाका. तो बाबडो फ्रीज धाडटलो. ताचो संवसार सांबाळटा म्हणसर ताचे नाकीं णव येतात. मिक्सर, आरमार धाडल्या तसोच फ्रीजय बी कोणे धाडला हें कळना जावंक हांव कितें पिशें? हांव खरेंच भाग्यवान म्हूण नयनासारकी नणंद आनी तुजेसारखो देर म्हाका मेळ्ळो. म्हाका आवयल्या घरची याद येवंक तुमी दिलीना. आवयल्याच घरांत वावुरतां अशें दिसता म्हाका. सख्खी भावंडां करचींनात इतलें तुमी म्हजेखातीर करतात.

**नयन** : तुजेखातीर आमी कांयच करीनात. आमी ज्यो वस्ती हाडटात त्यो आमच्याच घरांत हाडटात. त्यो कितें आमी तुज्या आवयल्या घरा व्हरूंक थोड्योच हाडटात.

**राजीव** : आमची आई आपले भयणिली गिरेस्तकाय पळोवन भुल्लुसल्या. हांव म्हणटां आमी दोग पूत आसतना सुनेगेर साकून कित्याक वस्ती हाडूंक लावप?

**नयन** : मूर्ख. हो संवसारूच मुर्खांचो जाला. तांकां बुद्द शिकोवपी जल्माक आयलेबगर ते सुदारचे नात. आमी तरणाट्यांनी एकवट केल्यार कोणाची कापास्ताद आसा सुनांक जाळपाची वा छळपाची!

**राजीव** : वा! वा! पळय वयनी. राणी लक्ष्मीबाई फाटल्यान वारसो चलोवपी बायल. नाजाल्यार तूं रड रड रडटा आनी आई तुजो फायदो घेता. बरें! भाऊ तरी धडाचो? आईक सामको थर्त भियेता.

**नयन** : आरे, तो सादो भोळो! व्हडले तशेच आसतात. पूण तो भितल्ल्यान कितलो दुखेस्त जाता हें कळना तुका.

**वयनी** : हय. ते तरी कितें करतले? हांव तांची कांयच चूक करीना. म्हजेंच नशीब फुटकें. हांवें हांथरूण पळोवन

पांय पसरूक जाय आशिल्ले.

**नयन** : पुरो आं वयनी तुजें. आगे जो जल्माक येता तो तोंडाक भांगराचें कुलेर घेवन केन्नाच येना. आमी कितें वायट दीस काडूंक नात? तूं कांयच खंतूं नाका. आईच्या दोळ्यावेलें झापड कडेक काडल्याशिवाय तिका सत्य कितें तें केन्नाच कळचेंना.

**राजीव** : आनी तेखातीर आतां आमी झुजाच्या मळार उबे रावल्यात न्ही गो नयन?

(धाकू सामान घेवन येता. वाटेंतल्यानच)

**धाकू** : चंद्रया, ए चंद्रया, मेलें हय गो! मेल्ले दाराडेन तरी येयता जाल्यार पळय. बाजारांतल्यान हायेन इतलें सामान हाडलें. म्हाका म्हुणोन पुरो जायना?

(नयन फुडें येवन सामान घेता)

**वयनी** : दी म्हजेकडेन.

**धाकू** : वयनीबाय, आयज निस्तें पळय कशें ताजें फडफडीत आसा. पांच रूपयांक पांच बांगडे. ताल्ले बीन खूप आसलेले. हांयें पंदरा रुपयाचे बांगडे हाडले. आकाबायन सांगलेलें आज निस्तें चडच हाड म्हुणोन. सतरा बांगडे आसात. तें खेजू पंदराच देई. हायें पाट्याक हात घालून दोन बांगडे काडले. पंदरा रुपयांचे बांगडे घेतल्यार एकूय सुबेज ना?

**धाकू** : पैसो करतात पाड पडलेलीं. कुसोन वयतलो तो पैसो बांगड्यांसारको.

**वयनी** : आरे, धाकू तुका बाजारांत वचून येवपाक येदो वेळ?

**धाकू** : बाजारांत आज बोवाळ चल्ला. त्या सदाबाबाले सुनेचो. तिका तिचे मांयन खंय तळयेंत धुकलून घाली आनी पायों निसरून पडली म्हण लोकांक सांगता. तिका खंय खुब तरास दिताली. तें भीकें वावराडी बौंब

मारता बाजारांत. तेका बाबडें सगळें सांगी खंय ती. उपाशीं पासोन दवरी खंय, दोन दोन दीस. पाड पोडों असल्या मांयांचें. काबार जावं त्यो.

**नयन** : धाकू चल घरांत. सगळ्यो गांवावेल्यो राटावळी जाय तुका.

**राजीव** : गांवमावसो जाला तो. (धाकू वता) वयनी, सगळी तयारी बेस जावंक जाय आं. आयज म्हज्या भावी संवसाराची श्रीगणेशा जावचेली आसा. आईन सेन्सॉर करीत जाल्यार नाटक बरेंच रंगतलें.

**नयन** : आरे भाऊन आनी बाप्पान तुका तेंको दिलो हातूंतच तुजें अर्दें काम जालें.

**वयनी** : कितें! हे तेचखातीर आयज बाप्पाक घेवन मंगेशीं गेल्यात काय कितें?

**राजीव** : इतलेंच न्ही. हांवे तांकां येतना कवळ्यां शांतादुर्गेक प्रसादूय लावन येयात म्हूण सांगलां. ती आघाडी तांणी आनी ही आघाडी आमी लडपाची. आतां हिरोईनीचें सवंग मातशें बरें जावंक जाय.

**नयन** : तें म्हजेर पावलें. वयनी चल. आमी भितर या. नाजाल्यार आई बेठीच पिकार जातली. (वतात. राजीव पेपर घेवन वाचता. धाकू येता)

**धाकू** : बाबा आयज तुका चेडूं पोळोंक येतले न्हू?

**राजीव** : चेडूं म्हाका पोळोवंक येवचेंना. चेडवाक म्हाका दाखोवंक हाडटले. मागीर कितें जालें?

**धाकू** : म्हाकाय लगीन जायन शें दिसता.

**राजीव** : मागीर जा मरे.

**धाकू** : म्हाका चेडवां पसंत करीनात.

**राजीव** : पसंत करीना कित्याक? तूं कितें बेकार आसा?

**धाकू** : आतांचीं चेडवां शिरयीस कितें करता हें खंय पळयतात? तेंकां गोरो धोयो घोव जायो न्हू?

**राजीव** : मागीर तूं कितें वायट आसा तर?

**धाकू** : म्हाज्या तोंडार हो काळो दाग आसा न्हू? तेका लागून म्हाका कोण चेडूं दिनात. बाबा तेका पलास्टीक मारूक

जाता खंय न्हू?

राजीव : (हांसता) पलास्टीक?

धाकू : हय. बादल्यांक फुट्टटकूच बीन मारतात तें? तशें तोंडाकूय मारून दाग बीन आसात ते वैतात खंय.

राजीव : तुका कोणें सांगलां रे हें?

धाकू : आनी कोणें? चंद्रयान. पयर एक पुडयें बांदोन कागद हाडलेले तेजेर एका दादल्याचो पयनीचो फोटो आनी पलास्टीक मारलेलो दुसरो फोटो दोनूय छापोन येयलेलो. चंद्रयान वाचोन म्हाका तें सगळें सांगलें. म्हाजो हो काळो दाग बीन वैतलो खंय पलास्टीक मारल्यार. पुणोन पयशे बीन मात खूप जाये खंय. बाबा कितले शे पडटले रे तेका पयशे?

राजीव : आरे पूण तूं दादलो मरे? तुका कित्याक जाय ती सुंदरकाय?

धाकू : बाबा, त्या शिवल्याले सोखूक हांव बरो दिसूंनाका?

राजीव : आतांच सांगी कोण चेडूं दिनात म्हुणून आनी आतां सोखूची खबर सांगता.

धाकू : बाबा हांवच तेचेर पीरेम काय कितें तें करतां. तें ह्या दिसांनीच मात्शें हांसोंक लागलां. बाबा, चंद्रयाक सांगों नाका हां.

राजीव : कित्याक रे ताका कित्याक सांगू नाका?

धाकू : बेश्टेंच. तेका सांगीत जाल्यार तें म्हजेर पिकार जातलें. तेंवय म्हाका बोरो करता. सोखू नाजाल्यार चंद्रें अशी दोन तीन पोळोवन थेयल्यार बरीं न्हू? मागीर ऐन त्या येळारं घात जावूं नाका. पूण बाबा त्या पलास्टीकाचें मातशें पळय आं?

राजीव : (मुमुरख्यांनी हांसत) हांव कितें पोळोवं?

धाकू : सवाय भितर जाता जाल्यार. बादलेक पांच रूपये घेतात. हांव पंचवीस रुपये पासून दिवंक तयार आसां.

राजीव : मेल्ल्या ती प्लास्टीक सर्जरी. ती कोरूक मुंबय वचचें पडटा. हजारांनी खर्च येता तिका. तुका मरून परत किल्लुवचें पडटलें ती कोरूक. चल हें सगलें निवळ

कर. ती येवचेली जाली. पलास्टीक मारता खंय तोंडाक. कॅरेक खंयचो. (वता)

**धाकू** : होय बीन चान्स गेलो पलास्टीकाचो. आतां म्हाका चेडूं कोण दितलो? देवा हांव हुंडो घेयना. बायलेक सामकी फुलाभ्राशेन थेयतां. सगळें काम जाल्यार हावूंच करतां. पूण देवा म्हाका एक तरी बायल दी रे सायबा.

(पोको येता. ताणें कोट पुडवें घालां. ताचेबरोबर गजो आनी चंद्रें आसा. तें बरी साडी न्हेसलां. आंगार वस्तीं बी घाल्यात. दोगांय ठाकठीक येतात)

**पोको** : कोण आसा घरांत?

**धाकू** : येयलीं दिसता सोयरीं. (सगळोच बोवाळटा. सोयरीं भितर येतात)

**पोको** : रावजीबाबालें घर हेंच न्हय?

**धाकू** : हय हय. घर आमचेंच. बसात, बसात. (कदेलां लागीं करता. ते बसतात)

**राजीव** : (येता) सामके टायमार पावले मरे तुमी. हरशीं मात सदांच ऑफिसांत लेट येतात. धाकू भितर वच आनीक सांग ते आयल्यात म्हण. (पोक्याक) पोक्या व्हंकलेचो बापूय मात सामको सोबलो हां. ए गजा रायबारीपणा झेतान जावनी. नाजाल्यार पॅन्ट पीस दिवंचो ना.

**गजो** : आरे, वचरे. तुज्या बापायक चुकला तो? आज ऑफिसांत दांडी मारल्या चोरा तुजेखातीर. म्हाकाच न्ही ह्या व्हंकले बापायक पेन्ट दिवंची पडटली तुका. न्ही रे पोक्या?

**पोको** : तेशिवाय मांवालें पुडवें आनी खोमीस. पयलींच सांगतां आं. नाजाल्यार असोच वता ऑफिसांत.

**राजीव** : तुमी म्हजेर उपकार करूंक आयल्यात काय पेन्ट पिसाचे आशेक आयल्यात रे?

**पोको** : एका फातरान दोन सुकणीं.

**गजो** : आरे, भितर बोवाळ सो ना. खंय गेली तुजी आवय?

आमी आयल्यात म्हण बी सांग मरे तिका.

**राजीव** : (आका भायर सरता) ही पळय आयली. (फाटल्यान नयन येता).

**आकाबाय** : आयले तुमी? तुमकां वाटेर त्रास बीन जालो ना मू?

**पोको** : ना! आमी आमची स्वताची कार घेवन आयल्यात.

**आका** : तुमची स्वताची कारय आसा? नयन चल चल ताका फ्रीजांतलें थंड कितेंय हाडून दी.

**गजो** : (आपलेभितर) कार आसा म्हण सांगतकर हीच थंड जाल्याशी दिसता.

**पोको** : हें पळय राजीवबाब. आमकां चड वेळ रावंक वेळ ना. हो गजो म्हुजो ल्हानपणांतलो वांगडी, ताणें हें स्थळ सुचयलें म्हण इतल्या पैस हांवें चलयेक घेवन येवचेले कश्ट केले. म्हजी एकली एकसुरी चली. तिका सोयरीको कितल्योशोच येतात पूण म्हाका ते चलेच पसंत पडनात. म्हज्या भाटाबेसांची मालकीण आतां म्हजी धुवूच न्हय? म्हजें व्हडलें भाट आसा शिरवय.

**गजो** : शिरवय वचून कोणाकूय विचारात पोकेबाबालें भाट खंयचें काय म्हुणून. येद्देशें शेंबडें पोर सुद्धां दाखयतलें.

**पोको** : हांव रावतां वास्को. बिजनेसांत म्हजोय हातभार आसा.

**गजो** : (स्वगत) क्लार्क म्हण थंय एके कंपनीत कामाक आसा तो.

**पोको** : तुमकां चलयेक कितेंय प्रश्न विचारपाचे आसल्यार तुमच्यांनी खुशाल विचारूं येता.

**आका** : बाय तुजें नांव कितें?

**चंद्रें** : म्हजें नांव चंद्रिका.

**आका** : तूं कितली शिकलां?

**चंद्रें** : हांव इंटर सायन्स पास जालां.

**पोको** : फुडलें शिकप तें करूंक सोदी पूण हांवेंच ताका म्हळें तुका आनी चड शिकप कित्याक जाय? तुका नोकरी थोडीच करची आसा. तेपरस तूं शिवण बिवण कर.

**आका** : तुमी आमच्या घराक पांय लायले हें हांव म्हजें भाग्य समजतां. आमच्या राजीवाकय खूब चलयो आयिल्ल्यो.

पूण ताका एकूय पसंद पडलीना.

**राजीव** : आनी आई म्हाका हीय बी चली पसंद ना.

**आका** : थुमॅकाल म्हण थुमॅकाल. आरे घरांत आयिल्ली लक्ष्मी अशी खोटावं नाका.

**राजीव** : आई हे चलयेंत आसा कितें? म्हाका जाल्यार तें चंद्रें कशें दिसता.

**आका** : आमगेली वावराडी चंद्रें? आरे तें चंद्रें खंय आनी ही चली खंय रे. पळय मरे हाका कशें गोरें धवें आनी तोंडारूपान कितलें सुंदर तें!

**राजीव** : पूण आई, म्हाका हें पसंत ना.

**आका** : तूं वग्गी बस थंय. म्हाका व्हंकल सामकी पसंत. तुमची चली आयच्यान म्हजी सून जाली.

**पोको** : आनी न्हवऱ्यालो बापूय बी खंय आसात तर?

**आका** : ते दोगूय आज मंगेशीं गेल्यात पूण तुमी कांयच चिंता करूं नाकात. आमकां चली पसंत जाली म्हणतगेर ती ताका पसंत जातलीच.

**पोको** : तशें चंद्रीका कामांत सामकें हुशार. इन्टर सायन्स फर्स्ट क्लास शिकुनूय घरांतलीं सगळीं कामां तेंच करता. वावराडेलीं कामां करपाक ताका मात लेगीत लज दिसना.

**राजीव** : तशें जाल्यार म्हाका व्हंकल पसंत. चंद्रयाक आयच्यान सुटी.

**आका** : कित्याक? हांव म्हजे भांगरासारके सुनेक कांयच काम करूंक लावचेली ना. चंद्रयालीं कामां चंद्रयाकच करूंदी. तसली वावराडी आजकाल पांचशें रुपये दिवन सुद्दां मेळचेली ना. शंभर रुपयांक कितलीं कामां करता जाणा तें? आनी कामाकूय बी कशी सुंदर, ठाकठीक. आसूंदी ताका आमगेरूच.

**राजीव** : लग्न जातकच आमगेर उरचेंना जाल्यार आनी खंय वतलें? न्ही गो चंद्रया?

**आका** : कितें? हें आमची वावराडी चंद्रें? आनी हे?

**राजीव** : पिकार जावं नाका. हें चंद्रें अडाणी न्ही. शिकिल्लें.

नयन : कॉलेजींत दोन वर्सां काडिल्लें चंद्रें.

राजीव : गरीब जाल्ल्यान शिकुनूय वावराडेचें काम करपी चंद्रें. आयच्या गुड्ड्यांच्या राजकारणांत बळी गेल्लें. हुशार आसुनूय शिकूंक न मेळिल्लें. डोनेशन दिवंक तांक नाशिल्ल्यान पोट भरपाक वावराडेचीं हलकीं कामां करपी वावराडी चंद्रें. आनी तें चंद्रें आकाबायक पसंत पडलें कारण

नयन : तें कारींत बसून आयलां.

राजीव : तें भाटबेंसकान्न.

नयन : इन्टर सायन्स शिकिल्लें म्हण वावराडेपरस गोरें-धवें, रुपेस्त, गुणेस्त...

राजीव : म्हाका आईली पसंती मान्य. हांव ह्या लग्नाक तयार आसां.

नयन : आनी वरदक्षणा रे ? हें चंद्रें तुका कितें दितलें ? तुमगेरूच तें काम करपी. वयनीची बरोबरी ताच्यान करूंक जायत मरे ? ताका भाव आसा काय म्हुणून विचार वस्ती हाडून दिवंक. न्हय गे आई ?

आका : तुमी भुरग्यांनी म्हजे दोळे उगडले. हांवें भांगरासारके म्हजे सुनेक सतायली. ताजी आतां म्हाका लज दिसता. थू म्हज्या जीण्याक. तिची गरीबकाय खबर आसुनूय तिका सतावन एक एक वस्त हाडून घेतली.

नयन : आई, कशीय जाली तरी तूं आमची आवय म्हण तुजीं कर्तुबां आमी तुका माफ करतात. तुवें जरी वयनीक सतायली तरी आमी तिका आमचीच भयण मानल्या. आनी ज्यो ज्यो वस्ती तुवें तिचेकडल्यान हाडून घेतल्यात, त्यो त्यो वस्ती हांवें आनी राजीवान तिका हाडून दिल्यात.

राजीव : नयनाक तुवें पगार बँकेंत दवर म्हण सांगिल्लें. ताच्या लग्नाक मोडूंक. ते ताणें आपले वयनीखातीर मोडून तिका सुखी केली. भयण आसची तर म्हजे भयणीसारकी.

पोको : आनी एके वावराडेकडेन लग्न जावन तिचें जिणें सुखाचें

करपी असलो राजीवासारको तरणाटो इश्ट मेळप हेंवूय बी आमचें भाग्य.

**राजीव** : पूण तुमी म्हाका तेंको दिना जाल्लो जाल्यार?

**गजो** : जाल्यार गरीब बापायलें एकसुरें चंद्रें शेवटमेरेन आकाबायगेर वावराडी म्हुणूनच काम करतलें आशिल्लें.

**आका** : आनी ताचें शिक्षण म्हज्या घरांतल्या कोयरांतच शेणटलें आशिल्लें. पूण आतां हांव म्हज्या चंद्रयाक सून म्हणून न्हय तर म्हजी धूव म्हण वागयतलें. आयच्यान म्हज्या घरांत तीन धुवो नंदतल्यो.

**राजीव** : नयन, बाप्पान आनी भाऊन शांतादुर्गेक लायिल्ल्या प्रसादाक उजवी कळी जालीशी दिसता.

**नयन** : हय रे हय!

**पोको** : बरें रे राजीव, आकाबाय वेतात आमी, भाड्याची कार घेवन आयल्यात.

**आका** : नां हां! हांव तुमकां दनपारचीं जेवल्याबगर सोडचीना. चलात. नुस्तें बी बरें आसा. आज जेवुनूच चलात. (नयन आनी आकाबाय भितर वतात)

**गजा** : ए राजीव, पॅन्टपीस विसरूं नाका आं.

**पोको** : म्हगेलोय पॅन्टपीस कम धोतर पुडवें.

**राजीव** : तुमकां पेन्ट पीस कम पुडवें दिलेबगर लग्नच जावचो ना हांव. आतां तरी जालें? चल या आमी आतां जेवपाक. (भितर वतात. धाकू भायर येता)

**धाकू** : जालें. चंद्रेंय बीन गेलें. बाप्पाय बीन ना आनी पुडवेंय बीन ना. पळयलें हें चंद्रें म्हाका बरो करी तो वयल्यान. भितरल्यान तेका हिरोच घोव जायो. पूण हांवूय वोगी बसचोना. चंद्रें गेलें म्हुणोन कितें जालें? संवसारांत चेडवां कितें पाड पडल्यांत? हांव एक एक पयसो जमोवन हजारभर रूपये करतलों आनी मुंबय वसोन तोंडाक पलास्टीक मारून सलमान खान कसो जावन येतलों. मागीर पळय चेडवां म्हाज्या फाटल्यान कशीं लायनी लायत येतलीं तीं. वैतां हांव. म्हाज्याय पोटाक भूक लागल्या. (वता. पड्डो पडटा)

## ५.

# नारद गोंयां येता

(स्वर्गलोकांत नर्तिकाले नाच, रंग चल्ल्यात. इंद्र, विष्णु, लक्ष्मी, ब्रह्मदेव आदी देव आपआपल्या सिंहासनार बसल्यात. इतल्यान नारद सुटबुटान प्रवेश करता.)

**नारद** : गुड इव्हीनींग एवरी बडी.

**इंद्र** : आं! हो आनी कोण आयलो हांगा? आरे कोण तूं?

**नारद** : देवाधीदेव इंद्र महाराज तुमी म्हाका वळखलेनात मूं. हांव जाणाच आशिल्लों तुमी म्हाका कोणूच वळखुचेनात म्हण. नारायणा, तुमी, तुमी सुद्धां ह्या तुमच्या भक्ताक वळखले नात. निदान म्हजो आवाज तरी.... नारायण..... नारायण.

**विष्णू** : आरे, नारदाभशेन तें नारायण...नारायण कितें करता? हांव खऱ्यांनीच तुका वळखूंक ना. तूं शत्रूंचो हेर बीर न्ही मरे? (नारद हांसता)

**नारद** : लक्ष्मीदेवी, तुमी तरी वळख दाखयात गे म्हजी. हे अप्सरांच्या नाचान सामके भुल्लुसल्यात.

**लक्ष्मी** : (मुरगट्टा) खरें सांगूं, हांवें तुमकां आजच पळयल्यात. तुमी कोणूय आसूं पूण तुमचो हो भेस मात म्हाका खूब आवडलो. नाजाल्यार हांचो कसलो हो भेस! सगळें आंग उगडें! आहाहा ऽ तुमी खरेंच राजपूत दिसतात.

**विष्णू** : (रागान) लक्ष्मी-लक्ष्मी परक्या दादल्यामनशाची तोखणाय आनी तीय बी घोव म्हऱ्यांत बशिल्लो आसतना करपाक तुका मातय लज दिसना?

**लक्ष्मी** : आंवय, हातूंत लज कसली? जें कितें दोळ्यांक दिसता

तें उलोवंक कसली आयली भिडा. तुमीच पळयात मू ते कितले सोबीत दिसतात ते. (नारदाक) तुमी खंय साकून आयल्यात ?

नारद : नारायण... नारायण.... ब्रह्मदेवा तुमी तरी सांगात बाबा हांव कोण तो.

ब्रह्मदेव : हांवें ही सृष्टी निर्माण केल्या खरी पूण खरें सांगतां. हांव तुमकां वळखूंक ना.

नारद : ब्रह्मदेवा म्हाका सारको पळेयात. जाय जाल्यार हें ऑक्ल लायात. (दोळ्यावेलें ऑक्ल काडटा) म्हातारपणाक लागून तुमकां कमी दिसता आसतलें!

ब्रह्मदेव : (रागान) कितें? कितें लाय म्हणटा? आरे म्हजे दोळे कितें मनशांच्या दोळ्यांभशेन दिसले रे तुका? म्हजे दोळे फुटूंक नात. म्हजी नदर आनी स्मरणशक्ती बरी साबूत आसा. हांवें तुका निर्माण करूंक ना. तूं खंय साकून आयला? घडये पाताळांतल्यान येवं येता.

नारद : तकलेक चड त्रास दिवं नाकात. हांवूच सांगतां हांव कोण तो. (हॅट काडटा)

सगळे देव : कोण! नारदमुनी!

लक्ष्मी : नारदमुनी, तुमी! बरें मूं तुमकां एक एक सुचता! आतां हें आनी कसलें नवें सवंग?

ब्रह्मदेव : पळेली म्हजी स्मरणशक्ती? आनी म्हाका दोळ्यांक लावंक हें तें कितें दितालो रे तूं?

नारद : देवा हें मनशांनी निर्माण केलां. ताका लागून कुड्ड्याक सुद्दां आतां नवी दृश्टी मेळ्ळ्या.

लक्ष्मी : आवय, खरेंच? हाड पळोवया. मातशें हांव लावन पळयतां.

विष्णू : (चाळयता) हांव मातशें लावन पळयतां. तुमकां बायलांक सगळ्याचो सोस. सगळ्यान पयलीं सगळें पळावंक जाय. नारदा, हाड ती वस्त म्हांगा. (नारदाकडल्यान घेवन लायता)

लक्ष्मी : आवय, हें लावन तुमी कितले सोबीत दिसतात मूं.

नारद : हें कांयच न्हय देवी. तूं मनशांनी तयार केल्ल्यो

पृथ्वीवेल्यो एक एक वस्ती पळयत जाल्यार सामकी पिशी जातली. नारायण ....नारायण. तरांतरांचे पावडर, शॅम्पू, क्रिमो, तेलां, सेन्ट, लिपस्टिको, जोर्ती, सेन्डल, बूट.... नारायण... नारायण.

**इंद्र** : हां तुजो ह्या दिसांनी पत्तोच नाशिल्लो. तूं पृथ्वीर पावलो तर!

**नारद** : देवा स्वर्गांत रावन म्हाका सामकी उबगण आयिल्ली. तुमकां सगळयांक बायल भुरगीं आसात. तुमचो टायम कांय न्ही करून पास जाता. पूण म्हजो ब्रह्मचाऱ्याचो वेळ कसो वेतलो. म्हळें करया पिकनीक पृथ्वीर. कितें पृथ्वीर सुदारणा जाल्या! बटण दामपाची फुरसत काळखाचो उजवाड, गर्मीची थंडी. जाय जाय तें फुड्यांत हजर! नारायण नारायण! पृथ्वीर दुसरो स्वर्ग जाला स्वर्ग.

**इंद्र** : कितें पिशें लागिल्ल्यावरी उलयता तूं नारदा! आरे स्वर्गाइतलें सुंदर आनी नगर आसा? आमचो स्वर्ग तो स्वर्ग.

**नारद** : महाराज, महाराज तुमी फकत स्वर्गारूच असात. मातशें पृथ्वीर वचून पळयात. तुमी एकदां थंय गेल्यार परत येवचेच नात. हांव पैज मारतां.

**लक्ष्मी** : इंद्रांच्या दरबारांत रंभा, उर्वशी, मेनका ह्यो सुंदर सुंदर अप्सरा आसतना तुमकां दिसता ते कायमचे थंय रावत अशे?

**नारद** : लक्ष्मी, हांगची करमणूक म्हळ्यार ह्या अप्सरांचे तेच तेच नाच पळोवन पळोवन उबगण आयली. नारायण नारायण... नाजाल्यार पृथ्वीर करमणुकीचीं कितलीं साधनां. वा, वा! घराघरांनी ते रेडियो, टी.व्ही. व्हीडीयो, स्टार टी.व्ही. सारकी घरांत बसून करमणूक. आनी ती ॲरकंडिशन सिनेमा थेटरां! नारायण नारायण.... लक्ष्मी, पृथ्वीवेल्यो हेमा, रेखा, मौसमी, शबाना, पूनम, पद्मीनी, श्रीदेवी, पूजा, सोनम पळेत जाल्यार इंद्र महाराज खरेंच स्वर्गावेलें राज्यपद सोडून

पृथ्वीर वास्तव करूंक वतले ते परत येवचेच नात.

**लक्ष्मी** : नादरमुनी, थंयच्यो बायलो अप्सरांपरस सुंदर दिसतात? म्हज्याय परस सोबीत?

**नारद** : देवी, तूं जयाप्रदा, श्रीदेवी पळयल्यार पिशी जातली. कितें ती केसांची स्टायल, तो मेकअप, आनी तांच्यो तरातरांच्यो फॅशनी. देवी पूनम धिल्लॉन मॅक्सी घालून कितली सोबीत दिसता जाणां. आनी ती स्वप्नसुंदरी हेमामालिनी! देवी, धर्मेंद्रासारको वीस वर्सां पिरायेच्या पुताचो बापूय तिका भुल्लो आनी परतें लग्न जालो तिचेकडेन. वा, वा, कितें तिचे दोळे! सुंदर. भावूक! नारायण ऽऽ नारायण!

**लक्ष्मी** : (रागान) नारदा पुरो कर त्यो पृथ्वीवेल्यो बायलांच्यो तोखणायो. तुका ब्रह्मचाऱ्याक बायलांच्यो आनी त्योवूय बी पृथ्वीवेल्या बायलांच्यो तोखणायो करूंक मातय वायट दिसना?

**नारद** : नारायण, नारायण! देवी हांव कितें फट सांगता गे? जें कितें ह्या दोळ्यांनी पळेलां तेंच सांगतां.

**लक्ष्मी** : त्यो कितल्योय जाल्यार नटयो. तुज्यामुखार केले दिसता रागरंग. तूं भुल्लुसलो. म्हाका एक सांग, थंयच्यो हेर बायलो कशो आसात? कारण हांवें आयकल्लें, त्यो सावित्रीभशेन आसात म्हण.

**नारद** : नारायण, नारायण ऽ आगे लक्ष्मी, पृथ्वीवेल्यो बायलो आतां अडाणी नात. त्यो शिकल्यात. तांकां घोवाबरोबर समान हक्क मेळ्ळा. सगळ्या क्षेत्रांनी बायलो दादल्यांपरस एक पांवडो फुडेंच आसात म्हळ्यार जाता. व्हडलीं व्हडलीं वाहनां सुद्धां आतां बायलो चलोवंक शिकल्यात. यानांनी बसून चंद्रार, शुक्रार भोंवून आयल्यात आनी पाताळांत सुद्दां वचपाचीं आसात. तांकां आतां रामाबरोबर वचूंक वेळ ना. सगळ्यो बायलो नोकरी करतात.

**लक्ष्मी** : नोकरी करतात म्हणटकीर दीसभर घराभायर उल्ल्यो. मागीर तांचीं भुरगीं-बाळां?

नारद : मनशांनी ती सगळी तरतूद करून दवरल्या. पाळणाघरां, अंगणवाड्यो, बालवाड्यो अशो कितल्योशोच वाड्यो भुरग्यांक सांबाळटात. शिक्षण दितात. इश्कोलांत वचपी भुरगे तर सकाळीं टिफीन घेवन भायर सरतात ते बद्द सांजचे ट्यूशन बी सोपोवन आवय-बापायबरोबर भितर सरतात.

ब्रह्मदेव : शिक्षण म्हणटकच याद जाली. थंय इतली शिक्षणाची सोय आसा म्हणटकच म्हाका दिसता सगळे मनीस थंय विद्वान जाल्यात आसतले.

नारद : ब्रह्मदेवा, सर्टीफिकेट मेळप म्हळ्यार विद्वान जावप काय कितें? थंय पैशांनी ॲडमिशन, डिगऱ्यो, सर्टिफिकिटी सगळें मेळटा. तांणी थंय शिक्षणाचो बाजार मांडला. परिक्षांनी कॉपी तर सर्रास चलता. 'गुरुर ब्रह्मा, गुरुर विष्णू, गुरुरदेवो महेश्वरा' असले श्लोक थंय आयकूंकच मेळनात. शिक्षक तरी बाबडो कितें करतलो? ताजीय बायल भुरगीं आसात. पगार केन्ना मेळटलो हाची वाट पळयत म्हयनो काडटा बावडो.

इंद्र : थंय गुरुक बिदागी बी दितात मरे फाव सारकी?

नारद : देवा, थंय सगळ्यांत गरीब म्हळ्यार शिक्षक. ताका पयशे जोडपाक आनी चोरपाक खंयच्यानूच वाव ना. वयल्यान भुरगीं नापास जाल्यार लोकांल्यो गाळी मात खूब मेळटात.

विष्णू : भोंगूं बाबड्याचें. आनी थंयचो शेतकामती रे?

नारद : ताचे तर हाल विचारूंकूच नाका. दीसभर कश्ट करता आनी पिकतकच भाटकाराक खंड घालता. रिणान तर गळोभर उदकांत बुडला. ताकालागून दुःख विसरूंक रातचें कोपाचें मारता आनी चडटकच बायलां भुरग्यांक धोडायता. भुरगींबाळांचे तर हाल पळोवं नज.

लक्ष्मी : नारदा, त्या मनशांलीं दुःखां मनशांकडेन. म्हाका एक सांग, तुवें हें तें बॅगांत घालून कितें हाडलां? दाखय मरे आमकां.

नारद : आगे विसल्लोंच हांव. पणजे लॉजिंगांत उतरिल्लो थंय ह्या दिसांनी टॅक्नीकल फॅअर म्हण एक प्रदर्शन भल्लां. सहज पळोवंक म्हण गेल्लों. पूण नारायण नारायण ऽऽ! थंयच्यो वस्तू आनी देखावो पळोवन सामको पिसो जालों. हो चुडीदार पळय. तो पळोवन तूंय पिशी जातली. (भायर काडटा)

लक्ष्मी : आवयस, काय बरो रंग! नारदा, हो कोणाक हाडला रे?

नारद : आगे म्हाका ना बायल, ना भुरगें. म्हळें नासूं थंय. घेतल्यार कोणीय घालीत. बाकी म्हज्या दोळ्यांमुखार तूंच आयिल्ली आं. कारण हेर देवी तुमच्या इतल्यो सुंदर खंय आसात?

लक्ष्मी : पुरो नारदा. बेटेंच तोंड देखल्यो तोखणायो करूं नाका.

नारद : ना गे. खरेंच तो हांवें तुजेखातीरच हाडिल्लो. आगे काळे कुळकुळीत बायलेक हो चुडीदार सोबता गे? पूण पृथ्वीर मात तशें ना आं. ती बायल सुंदर आसूं ना जाल्यार कुरूप आसूं. कितें एक एक भेस करतात जाणां! आनी दिसतात मागीर सवंगां कशीं. हो घे घालून पळे. तुका बरो सोबतलो तो.

लक्ष्मी : नारदमुनी, तुमी म्हाका हो यादीन हाडलो म्हूण धन्यवाद हां. हीं पितांबरां न्हेसून म्हाका खरेंच उबगण आयिल्ली. हांव तो आतांच घालून येतां. (वता)

विष्णू : नारदा, नारदां, तूं हे मनशांले चोचले घेवन म्हजे घरकान्नीक पिशें लावंक आयला? तुका सगळे कळीचो नारद म्हणटात तें फट न्हय.

नारद : नारायण! नारायण! देवा तुमीच जर ह्या तुमच्या भक्ताक कळीचो नारद म्हळो तर बाकीचे देव म्हाका अशींच नावां दवरतले. देवा हावें जें पळेलां तेंच हांव सांगतां. खरें उलोवप म्हळ्यार कळ लावप काय कितें?

ब्रह्मदेव : आरे, सांग रे आनी कितें कितें पळेलें तें तुवें. हावेंच निर्माण केल्ले हे सृष्टीर हे मनीस कसली कसली

दादागिरी करतात तें तरी आयकुया.

**नारद** : देवा, कितें सांगूं? 'राम तेरी गंगा मैली' हें पिक्चराचें नांव आयकून हांव अशोक थेटरांत भितर सर जाल्यार 'हाऊसफूल'ची पाटी. हांव खुब निर्शेलों. म्हळें रामाचें दर्शन जावचेलो योग ना. पूण एकलो थंय भेटलो. ल्हवूच येवन म्हुणूक लागलो पात्रांव पाचांची एक आसा फक्त धा दियात. कितें करतलों? धा रूपये वचूं पूण निदान रामाचें दर्शन तरी घडटलें म्हण घेतली आनी सल्लों थेटरांत भितर. नारायण नारायण ऽऽ देवा कितें तें ॲरकंडिशन थेटर. कितल्या दिसांनी राम आनी सीतामाईचें दर्शन सिनेमांत तरी घडटलें म्हण दोळ्यांची आरती करून बशिल्लों. पूण सितामाई थंयच उल्ली. आहाहा. मंदाकिनी – नारायणऽऽ नारायण ऽऽ. कितें तें सौंदर्य, देवा हांव ब्रह्मचारी हें विसल्लों आनी धांवलों तिका धरूंक, म्हळें धरून स्वर्गारूच व्हरतलों. सोदूनी हांकां पृथ्वीभर. पूण नारायण ऽ नारायण ऽऽ त्या डोरकीपरान म्हाका खोमसाक धरून पिसो म्हण भायर काडलो.

**इंद्र** : पूण नारदा हांकां सगळ्यांक ब्रह्मदेवान निर्माण केल्यात न्हय? मागीर त्यो हिरोईनीच देवींपरस सुंदर कशो आसात तर?

**नारद** : नारायण, नारायण! महाराज, ब्रह्मदेवान फक्त मनीस निर्माण केल्यात. बिवटी पार्लर करूनात. ते केल्यात मनशान. कितें ते बिवटी पार्लर. कुरूप, ओबड-धोबड मोटव्या केंसाची चली बिवटी पार्लरांत वतकच स्वर्गसुंदरी जावन भायर सरता.

**विष्णू** : ते कितें जादूची कांडी फिरयतात काय कितें?

**नारद** : नारायण – नारायण, जादुची कांडी न्हय. लिप्स्टीक, मेकअप, हॅअरस्टायल, ब्लीचिंग, क्युरेटींग आनी कितें कितें म्हणून सांगू? नारायण ऽ नारायण.

**ब्रह्मदेव** : नारदा बंद कर त्यो पृथ्वीवेल्या नटयांच्यो तोखणायो.

**नारद** : नारायण, नारायण ऽऽ तुमी कितें म्हळें? नटयांच्यो?

देवा नटयांक कितें शिंगां आसतात?

इंद्र : त्यो फॅशनी करतात प्रेक्षक जमोवपाक.

नारद : देवा, नटयोच कित्याक, पृथ्वीर हेर बायलो नटयांपरस चड मेकअप करतात.

विष्णू : कितें, हेर बायलो बिवटी पार्लरांनी वतात?

नारद : नारायण ऽ नारायण ऽ! ब्रह्मदेवानी निर्माण केल्ल्यो त्यो अडाणी बायलो आतां पृथ्वीर नात.

ब्रह्मदेव : कितें म्हणटा? मागीर त्यो बायलो खंय गेल्यो तर?

नारद : नारायण नारायण! देवा म्हज्या सांगण्याचो अर्थ त्यो बायलो थंयच आसात. पूण तांचो भेस साप बदल्ला. त्यो आतां हिरोईनींपरस चड मेकअप करतात. कितें ते स्लीव्हलेस ब्लावज, ते चुडीदार, मॅक्सी, मनीला, मिनी साडी, बायलो पेन्ट आनी शर्ट सुद्धां घालतात. आनी रस्त्यान चलतना खंयचो चलो आनी खंयची चली हें वळखूंक भोव कुस्तार पडटा. नारायण – नारायण!

विष्णू : नारदा, म्हाका एक सांग, ते लोक इतले करमणुकेंत गुरफटल्यात ते म्हजें नांव बी घेतात मरे?

नारद : नारायण! नारायण! देवा तुजें नांव पृथ्वीर हांव एकलोच घेतालों. देवा, लोकांक तुमचें नांव घेवंक वेळ खंय आसा?

इंद्र : म्हणजे कसलीं कामां करता तर ते दीसरात? आनी शेनवार आयतार तर सुटयेचे दीस.

नारद : नारायण नारायण! देवा तुमचें नांव घेवंक लोकांक खऱ्यांनीच वेळ ना. देवळांनी हरदास सुद्धां फॅमिली प्लॅनिंगाचेर कितर्नां सांगता. थंयची लोकसंख्या खूब वाडल्या. देवा तांकां अन्न, वस्त्र, निवारो गरजेचो. तेखातीर टी.व्ही.र, रेडीओर कुटुंब कल्याणाचेर, शेताचेर, शिक्षणाचेर म्हायती दितात. देवा, आतां एक सांगात, तुमचें नांव घेवप आतां तांकां गरजेचें काय हे प्रोग्राम पळोवप गरजेचें?

ब्रह्मदेव : आरे, पूण शेनवार, आयतार तरी घेयात मरे आमचें

नांव.

**नारद** : देवा, पूण शेनवार, आयतार बाजाराचे दीस. सकाळीं बाजार आनी मागीर टी.व्ही.र सांजभर पिक्चरां आसतात. त्याशिवाय क्रिकेट, हॉकी, फुटबॉल, मॅची आसतकीच देवा सुटयेचे दीस अशेच वतात.

**इंद्र** : नारदा आनी पृथ्वीवेलें राजकारण कशें चल्लां रे? रामराज्य आसा मरे पृथ्वीर?

**नारद** : नारायण, नारायण! महाराज, रामराज्य रामान केल्लें. ते दीस आतां नात. आतां चल्लां विसावें शतक 'कलियुग'. थंय रामराज्य कशें आसत! थंय खुर्च्यांचें राज्य चल्लां. नारायण! नारायण! प्रत्येक जाण एकमेकांक खुर्चेवेलो ओडून काडूंक पळेता. संगीत खुर्ची स्पर्धा प्रत्येक राज्यांनी सुरू आसा. पंजाबांत तर सामको अतिरेक चल्ला. नारायण नारायण! याद काडल्यार आंगार कांटो उबो रावता. कितें तो एक एक अतिरेकी. यम महाराजाक विचारात तांणी कितले आत्मे हाडून नरकांत उडयल्यात ते.

**विष्णू** : आरे, पूण हें पंजाबांतच मरे? बाकीच्या राज्यांनी कशें वातावरण? चड करून तूं उतरला त्या गोंयांत?

**ब्रह्मदेव** : आरे, गोंय हो प्रदेश आनी थंयचे लोक हांवें इतले बरे घडयल्यात कीं कोणेंय तोखणाय करची. गोंय निर्माण करतां त्या दिसा हांव मात्सो बऱ्या मुडार आशिल्लों. म्हुणून हांवें तो प्रदेश निसर्गान भरलो आनी लोकूय मोगाळ घडयले.

**नारद** : देवा, तुमी हें मात बरें केलें हां. म्हणुनूच गोंयचो लोक खुशालभरीत, सुशेगाद जीणें जियेतात.

(लक्ष्मी चुडीदार घालून प्रवेश करता)

**विष्णू** : ही आनी कोण आयली?

**इंद्र** : आ हा हा सुंदरी! तूं खंयसाकून आयल्या?

**लक्ष्मी** : आवय! तुमी म्हाका वळखले नात?

विष्णू : वा ऽ वाऽ कितें सुंदर दिसता गे तूं ह्या भेसांत!

लक्ष्मी : (विष्णूक तेंकता) पूण तुमी मात ह्या भेसांत म्हजेर मातूय मॅचींग जायनात आं. नारदमुनी, तुमी हांकां एक तुमचेसारको भेस हाडचेलो न्ही?

नारद : हांव जाणांच आशिल्लों तूं अशी निर्शेतली म्हण. तेखातीर हांवें तांकांच न्हय, इंद्र महाराजांक आनी ब्रह्मदेवाकय हे पळय भेस हाडल्यात. (कपडे दिता. ब्रह्मदेवाक बंडी, बाकीच्यांक फांत. ते कपडे माचयेरूच घालतात. तितल्यांत लक्ष्मी हेवटेन तेवटेन चलून पळेता, मुरगट्टा.)

लक्ष्मी : (विष्णूक पळोवन) आवय! कितले बरे दिसतात तुमी! नारदा, आनी कितें कितें हाडलां रे तुवें? उगड मरे तुजें बॅग!

नारद : (सामान भायर काडटा) ही पर्स. (पर्स लक्ष्मीक दिता) हे सॅन्डल तुका. हे बूट आनी सॉक्स इंद्र महाराजाक. ही सत्री लक्ष्मीक, हो गळ्यांतलो हार, ही लिप्स्टीक, ही कुटेक्साची बाटली, हो पावडराचो डबो, ही तिकली, ही हारशी (लक्ष्मी सगळें सामान घेता, मेकअप करूक बसता, परत परत हारशेंत पळयता, कुटेक्स लायता.) हां बरी याद जाली आनी एक वस्त हाडल्या. रॉबर्ट. रॉबर्ट आरे हांगा यो. (एक मनीस हॅलमेट, आनी रॉबर्टासारको भेस घालून येता.)

ब्रह्मदेव : कितें? रॉबर्ट?

नारद : नारायण ऽ नारायण ऽ! ब्रह्मदेवा, तुमी मनीस निर्माण केलो आनी मनशांनी हो यंत्रमानव निर्माण केला. हाका मरण ना, कसलोच रोग हाका जायना. तुमी सांगता तें काम तो करता.

इंद्र : अल्लाउद्दीनचो जादूचो दिवो तसो हो मनशांनी जादूचो मनीस तयार केला काय कितें?

नारद : पळयात आतां ताची करामत. (दूताक) चल रे झाडू घेवन यो. (दूत धांवत वचून झाडू हाडटा. रॉबर्टाच्या हातांत झाडू दिता.) रॉबर्ट झाडू मार. (रॉबर्ट झाडटा,

सगळ्याक धूल्ल जाता. लक्ष्मी शिंकता.) पुरो. हीं शिंवासना सारकीं नीट दवर. (सगळी आदळ आपट करता. ब्रह्मदेवाक) तुमी ताका सांगात हांगा दारांत उबो राव आनी राखण कर म्हणून. कोणेंय तुका हात लायत जाल्यार ताचेर थापट दी म्हण.

**ब्रह्मदेव** : रॉबर्ट हांगा उबो राव. कोणेंय जर तुका हात लायत तर ताचेर एक थापट दी हां. (परततना ब्रह्मदेवाचो रोबर्टाक हात लागता. तो देवाचेर थापट दिता.) कितें म्हजेरूच थापट ?

**नारद** : तुमचो ताका चुकून हात लागलो दिसता.

**ब्रह्मदेव** : आवय ऽ आवय. नारदा, नारदा, व्हर ताका हांगाचो. नाजाल्यार तो ह्या स्वर्गाचें खलिस्तान करतलो. (नारद ताका भितर व्हरता) मनशा तुवें यंत्र मानव निर्माण केले, सगळ्यो सुखसोयी केल्यो. पूण एक याद दवर, हो ब्रह्मदेव पृथ्वी निर्माण करूंक जाणां आनी तिचो नाशूंय करूंक जाणां.

**नारद** : देवा पृथ्वीचो नाश करचेलो आतां तुमच्या हातांत ना. मनशांनी प्रत्येक रोगार वखदां सोदून काडल्यांत. तशेंच शत्रूचो नाश करपाक ॲटम बॉम्ब, आरमामेंत तयार केल्यात आनी थोड्याच तेंपान मनीस चिरंजीव जातलो.

**लक्ष्मी** : नारदमुनी, नारदमुनी, कितें उलयतात तुमी ? मनीस चिरंजीव जातलो ? आरे देव वोग्गी बसल्यात तोमरेन तांचें थंय राज्य चलत. पूण जर शंकरासारकेल्या देवांनी तिसरो दोळो उगडलो तर पृथ्वीचो नाश जावंक वेळ नाका. मनीस कितलोय सोद लायत, पूण जल्म आनी मरणाचो फेरो ताका चुकूंक ना.

**विष्णू** : आरे, निसर्गाचेर मात करपाक मनशाले हात तितले व्हड ना रे पापया. हे पृथ्वीर पंचमहाभूतां जीं वावुरतात तीं कोणाक लागून ?

**इंद्र** : उजो, उदक, वारो, उजवाड, मळब नाजाल्यार मनीस वांचतलो रे नारदा ? आमी चलोवन घेतात म्हण हे

चलयतात आपली दादागिरी. नारदा, विचार केलो तुवें हाचेर ?

नारद : नारायण, नारायण! देवा खरें हें. हांवूच भुल्लुसलों. चुकलों हांव. तुमीच श्रेष्ठ देवा.

ब्रह्मदेव : असले हे यंत्रमानव म्हळ्यार राक्षसांची जात. घट्टणपाडी, अविचारी. मनशाक हावेंच बुद्द दिली पूण ताणें आपले बुद्दीचो वापर बॉम्ब, आरमां, रॉबर्ट असल्यो घट्टण करपी वस्तु घडोवंक केल्यो. आतां तो आपलोच अंत आपल्याच हातांनी करतलो हातूंत मातूय दुबाव ना. हें तांचें अविचारी खेळणें तांकांच व्हरून दी. चल, तें म्हज्या दोळ्यांमुखार नाका. आनी हो भेस घुसमटून मरपाचो. सैमाचे कुशींत उक्त्या आंगान रावपाक कितली खोस भोगता! आनी हें कितें (बंडेक हात लायता) घट्ट बांदिल्ल्यावरी! खंय तें म्हजें पितांबर? (भितर वता)

विष्णू : हय रे बाबा, हय. येदोळच्यान हांव सामकों घुसमट्टां. नाकारे बाबा मनशा हे तुजे चोचले! आवय गे! सामको उकडलों हांव. (भितर वता)

लक्ष्मी : हांकां जर हो ड्रेस नाका जाल्यार म्हाका आनी कित्याक ह्यो फॅशनी ? हांव हांची अर्धांगी. म्हाका म्हजें पितांबरूच बरें! कितलें सोबीत आनी सुंदर! वेल्यान शेलो घेतकच कशें आंगभर दिसता. नाजाल्यार हें सगळें उकतें उकतें. नाका गे बाये नाका हें. (भितर वता)

इंद्र : (नारदाक) नारदा, म्हाका हो भेस खरो आवडिल्लो रे. पूण हे सगळेच जर देवाभशेन न्हेसूंक लागले आनी हांव एकलोच जर ह्या भेसांत उरलों तर शेत राखूंक दवरिल्लो बावलो कसो दिसतलों! हांव राजा. 'यथा राजा तथा प्रजा'. राजान राजाभशेनूच आसूंक फाव. बरें तर नारदा यो, व्हर हो तुजो ड्रेस. (भितर वता)

नारद : देवा, तुमी स्वर्गाचे राजा. तुमीच जर ह्या वस्त्रांचो त्याग केलो तर ह्या नारदाकय शरण येवचेंच पडलें.

तातूंत आमचें दैवत नारायण! ताणींच ऑब्जेक्शन हाडलें म्हणटकीच म्हाकाय आतां पुडवें न्हेसचेंच पडलें. नारायण ऽऽ नारायण!!

(नारद भितर वता. पड्डो पडटा.)

रामू
मावशी
कवी
रामा
वार्ताहर
पाटील
रावजी
ताई
अनोळखी

६.

# कवीची आत्महत्या

## ६.

# कवीची आत्महत्या

(थळ: कवीचें घर. घरांत कवी आनी ताचो नोकर रावतात. माचयेर रामू आसा. सोफे पुसपाचें काम करता.)

**रामू** : शा ऽ सामकें पुरो जालें म्हाका. चार वरसां जालीं हांव हांगा काम करतां. पूण ह्या चार दिसांत पळय ह्रायें कामां केल्यांत तीं चार वरसांक करूंक नात. आवय, भेंडांत चोडोन येयलां माज्या. (दारार कविलो पयसुल्ली मावशी टकटक करता) येयलो दिसता कोण तरी सायब. आत्महत्या करतां ही गजाल पडली आसतली कोणाच्या तरी कानार. (दार काडटा)

**मावशी** : (भितर सरता) पावलें बाबा एकदांचें. कितें ह्यो बशी! सामकें लोणचें जाता बाबा येतासर. आरे पळयता कितें तोंड वयर करून? घोंटभर उदक हाडून दी म्हाका. आनी बरो कडक च्या करूंक दवर. (बसता. पेपर घेवन वारें घेता).

**रामू** : (आपले भितर) बरी कडक आसा ही मावशी. सायब आत्महत्या करता हें आयकून धांवत येयल्या. सगळें पोशेन व्होरों नाका?

**मावशी** : आरे, कितें करता? चल बेगीन. म्हजो ताळो सामको सुकून आयला. आनीक हें पळे. रवी घरांत ना काय कितें?

**रामू** : सायब न्हू? आसा. घरांतूच आसा. आपयतां तेंका भायर. (भितर वता)

**कवी** : (भायर येता. बंडी आनी पिज्याम घाल्या) मावशे, केन्ना आयली तूं? बरी मगे?

**मावशी** : ही न्ही आतांच भितर सरल्या ती! तूं बरो आसा

मरे ?

**कवी** : हय मावशे !

**मावशी** : तूं आत्महत्या करता हें पेपरार वाचिनाफुडें हांव आनी रावलां ? धांवत आयलें.

**कवी** : हय मावशे. म्हाका तुजेशिवाय आनी पयसुल्लो सोयरो खंय आसा ?

**मावशी** : जांव रे. हांव पयसुल्ली पूण मावशी म्हुणून येवन रावतां मरे तुगेर म्हयने दोन म्हयने ?

**कवी** : (आपले भितर) फुकट रावना. एप्रिलांत येता आनी पावसाचो पुरुमेंत करून घेवन वते. (उकतेपणी) हय गे मावशे. मानल्यार देव नाजाल्यार फातोर.

**मावशी** : पयर पेपरांत तूं आत्महत्या करता हें वाचलें आनी चिंतलें तूं घरांत एकलो. हो रामू (रामू येता) कितें धड ? तुकाच वेळार च्या दिना. आनी फाल्यां तूं आत्महत्या करता म्हणटगर हांगा सोयरीं दायरीं रीग लायतलीं. तांचो परामर्श करूंक कोणूय लागींचो नाका ? (कवी आनी मावशी भितर वतात)

**रामा** : (आपलेभितर) लागींचो ! ही लागींची सायबाली खंय ! हांगा शेजराक विठ्ठल म्हण कोण बिराडांत आसतालो ताचे बायलेच्या मावसभावान हिका पोसूंक घेतिल्ली. तीं सगळीं हिका खंय मावशी म्हण. शेजान्न म्हणतगीर हांगेर येई म्हण हिका सायबय मावशी म्हण. विठ्ठल बदली जावन दामांव गेलो पूण मावशेन मात हें नातें सोडलेंना. आतां विठ्ठलाली मावशी सायबालीय मावशी जाल्या. तशी ती गांवमावशीच. दोन म्हयने हांगा, दोन म्हयने विठ्ठलागेर, दोन म्हयने प्रेमा म्हण कोण अशीच धुवडी आसा खंय तिगेर. अशे वर्साचे बाराय म्हयने ही मावशी गांवभर भोंवता. आतां सायब आत्महत्या करता म्हणटकर हांगा हजर. (दारार टकटक जाता) कोण येयलो काय ? (वार्ताहर भितर येता. कमराक कॅमेरा, खांदाक शबनम पिशवी. हातांत पेन आनी पेपर) कितें जाय ?

वार्ताहर : हांव वार्ताहर.
रामा : कित्याक येयला ?
वार्ताहर : तूं कोण ?
रामा : हांव रामा. हांगचो घरकाम करपी.
वार्ताहर : आनी तुजो पात्रांव.
रामा : आसा भितूर.
वार्ताहर : तांकां भायर आपय आनी सांग हांव आयलां म्हणून.
रामा : पुण तूं कित्याक येयला तें तरी सांग मगा.
वार्ताहर : तुजो पात्रांव आत्महत्या करता म्हुणून मुलाखत घेवंक आयलां हांव.
रामा : मुलाखत म्हणजे कितें ?
वार्ताहर : आरे पात्रांवाक भायर आपय.
कवी : (भायर येत) रामा, कसलो बोवाळ ? कोण आयला ?
वार्ताहर : नमस्कार.
कवी : नमस्कार. कित्याक आयल्यात ?
वार्ताहर : हांव झणकार मासिकाचो वार्ताहर. तुमी आत्महत्या करतात हें पेपरार वाचलें. तुमची मुलाखत घेवंक आयलां.
कवी : म्हजी आनी कसली मुलाखत ?
वार्ताहर : कसली मुलाखत ? तुमी येदे व्हडले कवी आनी लेखकूय बी. तुमच्या सारको व्हड मनीस आत्महत्या करता आनी आमी वग्गी बसप ? बरें म्हाका एक सांगात. तुमची हांव घेतलों ती पयलीच मुलाखत मूं ?
कवी : म्हणजे ?
वार्ताहर : म्हणजे अशें, आनी कोणेय रेडियो, टी.व्ही., पेपर हातूंत तुमची पयलीं, म्हणजे हाच्या पयलीं मुलाखत घेवंक ना मू ?
कवी : तशें हांगा कोणूच येवंक ना. आनी हांव आत्महत्या करतां ती बातमीय हांवें पेपरांत दिवंक ना.
वार्ताहर : ती बातमी आमच्या पेपरांत येवंक ना. ती फणकार पेपरांत आयल्या. म्हणूनच तर हांव पयल्यान पयलीं आयलों. ना जाल्यार तो फणकाराचो संपादक मुलाखतय

आपुणूच पयलीं छापतलो. आतां आमच्या पेपरांत मुलाखत येतकच पळय कशें तोंड वांकडें करून बसतां तो.

**कवी** : पूण हांव आत्महत्या करतां हातूंत मुलाखतीचो कितें संबंद ?

**वार्ताहर** : वा ऽ वा ! कितें संबंद ? तुमचो फोटो आनी तुमचेविशीं बरेंच पेपरार येवप म्हळ्यार तुमचो भौमान न्हय ?

**कवी** : मरतकच आनी कसलो आयलो भोवमान ?

**वार्ताहर** : हेंच, हेंच तुमचें व्हडपण (पेपरार बरयता). आतां म्हाका एक सांगात तुमी ह्यान पयलीं केन्ना आत्महत्या केल्ली ? (रामा येता)

**रामा** : आरे आत्महत्या कितें दोन येळां करूं येता व्हय ?

**वार्ताहर** : कित्याक जायना ? एकदां आत्महत्या करचेली सगली तयारी करून समजा गळ्यांत फास सुद्धां लावन आनी त्याच वेळार कोणूय पावन ताणें उकलून फांस सोडलो जाल्यार ती आत्महत्या न्हय ?

**रामा** : (आपलेभितर) बरो हुशार आसा हो मनीस.

**कवी** : रामा, तूं चल भितर. (वार्ताहराक) हांवें असो आत्महत्येचो प्रयत्न केन्नाच करूंक ना.

**वार्ताहर** : तुमी आत्महत्या कशी करतले ?

**कवी** : म्हणजे ?

**वार्ताहर** : म्हणजे गळफांस लावन, बांयत वा न्हंयत उडी घेवन, वीख खावन, रेल्वे पोंदा वचून – कशी ?

**कवी** : ताचेर हांवें अजून विचार करूंक ना. (भायल्यान रावजी येता. हाफ पेंट, पेडणेची भास उलयता)

**रावजी** : तसां जालां तर मीयां जीस्त येळार पावलंय. ह्या पळय बाब आत्महत्या करतलंय तर रेल्वे पोंदा झोपूं नाका. केदोयेळ म्हणान लयनीचेर झोपतल्यात. ह्या गाड्यांक मार व्हरान शिरा. ह्या गाड्यांचा काय धड आसत. दोन दोन वरां लेट येतात. माझा आयकशी तर गळ्याक फास लावलेलो बोरो.

(इतल्यांत पाटील येता. मराठी कोंकणी मिक्स)

पाटील : नको हं नको. कवीबाब तुमकां सांगतां गळ्याला फास लावन मात मरू नको. कसले त्रास जातात जाणां गळ्याक फांस लायतगेर?

रावजी : तुयेन लायलेलो मरे? तुका रे तां कसां कळलां?

पाटील : मी जाणां न्ही. म्हाज्या चुलत भावाच्या मेहुण्याच्या मेहुण्याने लायलेला. पळयल्यारच किती भंय दीस बाबा तेका. कितले त्रास जाले देव जाणा. तुमी त्यापेक्षां असं करात, तुमी वीखच खाऊन आत्महत्या करात.

वार्ताहर : वीख खावन? आरे वीख खावन आयज जल्ले आनीक उंदीर मरनात तो हो येदो व्हडलो मनीस मरतलो? म्हगेलें आयकशात तर तुमी उदकांतच उडी घेयात पळोवंया.

कवी : आरे, पूण म्हाका पेंवक येता मरे!

रावजी : बघलां? आनी पाणयांत उडी घेवंक नदीक पाणी तरी रवलां मरे? लोकांचीं शेतां पाणयाबगार गेलीं सुकान. लोकांक धड पीयांक पाणी गावना आनी ह्यो शाणो उठलो सांगोंक पाणयाक बुडान मर म्हणान.

(इतल्यांत ताईबाय, महिला मंडळाची मेंबर, ताकतिकेन येता.)

ताई : रवी, तुमी आत्महत्या करतात खंय?

वार्ताहर : हय. तुमी फणकार वाचूंक ना?

ताई : फणकार वाचूंक म्हाका खंय वेळ आसा रे? महिला मंडळांत बायलो उलयताल्यो. हें आयकना फुडें हांव धांवत आयली बाये.

कवी : बस, बस. घामाघूम जाल्या. रामू ऽ (रामू येता) एक ग्लास उदक हाडून दी तिका.

ताई : बरें जालें बाये. आमच्या चाळींतली ही पयलीच आत्महत्या. आज सगळ्या महिला मंडळांतल्या बायलांनी तोंडां येदिशीं केल्लीं.

कवी : हांव आत्महत्या करतां म्हणून?

ताई : आनी कित्याक? ती सरस्वती सराफ. तिच्या शेजाराक

पयर त्या रोमीओन चलयेखातीर आत्महत्या केली तेन्ना ती बातमी सांगून नेट मारताली. हांवें म्हळें आमचे चाळींत येदो व्हडलो नामनेचो कवी आत्महत्या करता.

वार्ताहर : मागीर तिणें कितें म्हळें?

ताई : म्हणटली कितें? सकल घाल्ली तकली तिणें वयर आनी काडल्या? खरें सांगता म्हाका जाल्यार इतली लज दिसताली! सगळ्या वाड्यार आत्महत्या जाल्यो. कोण धंद्याक लॉस जालो म्हुणून, कोण फेल जाला म्हणून, कोणाचो मोग फोग जालो म्हुणून आत्महत्या करी. पूण आमची चाळ इतली शांत आशिल्ली. असलें केन्नाच आमचे चाळींत जावंक नाशिल्लें. ही बातमी आयकून सू जालें. जांव बाये, देव पावलो.

वार्ताहर : तुमी आत्महत्या कित्याक करतात हें सांगलेंना.

ताई : आरे, गेल्या वर्सा हाची घरकान्न स्कूटर ॲक्सीडेंटांत मेली. तो शॉक लागला ताका.

कवी : तशें कांय ना आं.

पाटील : साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मिळूंक ना हाचें दुःख जालां तांकां.

कवी : हांव कविता बरयतां म्हजो शौक म्हणून. पुरस्कार मेळपाक न्हय.

रावजी : मगे कारणाशिवायच तुमी आत्महत्या करतत? नवलच बाबा एक एक. आतां आत्महत्यो इतक्यो स्वस्त जाल्यार कोणूय उठतत आनी करतत आत्महत्या.

वार्ताहर : (सगळ्यांक) तुमी आतां वगी बसात पळोवंया. आत्महत्या कोण करता, तुमी काय हे? (कवीक) रवीबाब, तुमीच सांगात, तुमी आत्महत्या कित्याक करतात?

कवी : हांव बेजारलां ह्या संवसाराक. मनशाचो मनशावेलो विस्वास उडला, लांच घेवप, दरोडे, मारामाऱ्यो, खुर्च्यांखातीर, स्वार्थाखातीर जीव घेवप हें सगळें आयकतकीर अशें दिसता हें जग कवी चिंतता तितलें सुंदर ना. कवीच्यो कल्पना सत्यांत येवंक केन्नाच

शकच्योनात.

**रावजी** : ह्या मात खरां आं. आरे पयशांक लागोन भाव भावाचो खून करतत. तूं आसा खेंयसर?

**कवी** : देशाखातीर जीव दिवपी ते नेते खंय आनी स्वार्थाखातीर जीव घेवपी आतांचे हे लोक खंय? तांणी गुलामगिरींतल्यान देश सोडयलेलो पूण आतां दिसता गुलामगिरींत भाव भावाक तरी वळखताले. कुटुंबाची कुटुंबां एकचारान वावुरतालीं. पूण आज प्रत्येक मनीस पळयता आपलो स्वार्थ आनी म्हज्या सारकेल्या सरळ चलपी कवीचो जाता घुस्मटमार.

(इतल्यांत एक अनोळखी मनीस माचयेर येता)

**अनोळखी** : हेंच, हेंच कारण म्हजे आत्महत्येचें.

**कवी** : तुमी कोण?

**अनोळखी** : हांव एक आगंतूक.

**कवी** : तुमी हांगा कित्याक आयल्यात? काय तुमकांय म्हजी मुलाखत घेवंक जाय?

**अनोळखी** : ना. हांव मुलाखत घेवंक येवंक ना. तुमकां शिटकावंक आयलां.

**कवी** : शिटकावंक?

**अनोळखी** : हय. शिटकावंक. तुमी जाणांत हावें बरोबर सोळा आत्महत्या केल्यो. डायरेंत बरोवन दवरल्यात हावें.

**वार्ताहर** : कितें, आनी तरीकूय तूं जितोच आसा? अजाप मरे! ही सणसणाटी बातमी आतांच छापतां पेपरांत.

**अनोळखी** : हय. हावें सोळा आत्महत्या केल्यात. म्हजी पयली आत्महत्या हांवें स वर्सांचो आसतना केल्या. म्हजो बापूय म्हाका बऱ्या अिश्कोलांत ॲडमिशनाक घेवन गेलो. शिक्षण क्षेत्रांतलो भ्रश्टाचार हावें पयलीं पळेलो आनी अशें आसुनूय पांचशीं रुपये दिवन म्हज्या बापायन ॲडमिशन मेळयलें. जें मेळूंक जाय आशिल्लें एका गरीब हुशार भुरग्याक. जो म्हज्याच शाळेंत पयलो

आयिल्लो. पूण तो पडलो गरीब आनी हांव बडे बाप का बेटा. ती म्हजी पयली आत्महत्या.

कवी : मागीर ?

अनोळखी : अश्यो ग्रॅज्युएट जायतसर म्हज्यो चार-पांच आत्महत्या जाल्यो. कॉलेजींत अॅडमिशन, स्कॉलरशीप, नाटकांत हिरो, नोकरी, सी.एम. जावपाक आनी अशीं कितलीशींच कामां करपाक म्हाका आत्महत्याच करच्यो पडल्यो. कारण शिकपांत, अॅक्टींगांत जरी हांव ढ आसलों तरी म्हजो बापूय पैशेकार आसलो.

कवी : आजकाल हें अशेंच चल्लां. म्हजी तकली तेचखातीर इबाडल्या. बरें, मागीर फुडें सांग.

अनोळखी : हांव पैशेकारालो पूत. कॉलेजींत वचूंक गाडी, हातांत पयसो, कितल्यो चलयो फिरयल्यो, कितक्या इश्टांक व्यसनां लायलीं, हांवूय व्यसनांत बुडलों, सोरो, सिगरेट, ड्रग्स, पार्ट्यो, पिकनिकी, एक म्हणून सोडलेंना. आत्महत्या करीत रावलों.

वार्ताहर : मागीर ग्रॅज्युएट जातकच ?

अनोळखी : ग्रॅज्युएट जातकच बापायल्या धंद्याक लागलों. थंय तर दिसाक एक आत्महत्या. बापायकडेन इतलो पैसो खंयचो हें म्हाका तेन्ना कळळें. म्हजो बापूय भारतांतल्या चलयांचो व्यापार करी. तांकां दुबयक नोकरी दितां म्हण फटोवन व्हरी.

कवी : असल्या सैतानाक गुळी घालून मारूंक जाय.

अनोळखी : कितल्या जाणांक मारतलो तूं ? म्हजो बापूय एकलोच नासलो. देशभर असले गुन्हेगार कितले आसात. कोणाक कोणाक म्हण मारतलो तूं ?

कवी : तेंच खरें. मागीर कितें जालें ?

अनोळखी : त्यावेळारूच हांव इलेक्शनाक उबो रावलों. निवडून येवन मुख्यमंत्री जालों. बापायलो धंदो चालूच आसलो. एक दीस अकस्मात दुबय धाडपी चलयांच्या पासपोर्टांत हांवें म्हजे मामेभयणीचो फोटो पळेलो. तें बारावेक फेल जाल्लें. घरची परिस्थिती बरी नाशिल्ल्यान

सोसायटींत काम करतालों. कुवेटाक बरें काम मेळटलें आनी घरची स्थिती सुदारतली म्हण ताणें कुवेटाक वचचेलें येवजिलें. म्हजे दोळे तेन्ना उगडले. आनी म्हाका म्हज्या दोळ्यांसामकार म्हज्यो कितल्योशोच भयणी मनीसरुपी नराधमामुखार जशी एक घायाळ हरण वाघाफुड्यांतलो घास जावन वावुरता अशें चित्र दिसलें, आनी हांवें केल्ल्यो म्हज्या आत्म्याच्यो हत्या एक एक करून दोळ्यांमुखार नाचूंक लागल्यो.

कवीबाब, तुमचो आत्मो शुद्ध रक्ताभशेन आसा. आज देशाक तुमच्या सारकेल्यांची गरज आसा. तेखातीर तुमचेकडेन म्हजें शेवटचें एकूच मागणें. तुमी आत्महत्या करूं नाकात. आज देशाची जाल्ली ही स्थिती सुदारूंक तुमच्या सारक्या कवींची, लेखकांची गरज आसा. आमच्या सारक्या अविचारी लोकांक सरळ रस्त्यार हाडपाचें कितलेशेंच काम तुमच्यासारक्या कविंच्या हातांत आसतना तुमी आत्महत्या करप हाचेसारकें ह्या देशाचें दुर्भाग्य दुसरें खंयचेंच आसचेंना.

**कवी** : अनोळखी मनशा, तुवें आज म्हजे दोळे उगडले आनी म्हजो जागो म्हाका दाखयलो. हांव खूप बरयतलों. पूण बक्षिसाखातीर न्हय तर एक मनीसपण म्हणून. मनशाक मनीसपण म्हळ्यार कितें हाची जाणविकाय करून दिवपाखातीर आनीक लक्षांत दवरतलों तुमचीं उतरां आनी तुमी केल्ल्यो आत्महत्या. आयच्यान हांव आत्महत्येच्या चार पावलां फाटींच आसतलों कारण आत्महत्येसारकें दुसरें पाप ना.

(ताईबाय, मावशी, रावजी सगळे माथ्याक हात लावन बसतात. पड्डो पडटा.)

सुकडोबाब
बस्त्यांव
शिपाय
कोलो
जुवीज
सरकारी आदोगाद
कामणें

७.

# कों ऽऽ कों ऽऽ कों

## ७.

# कों ऽऽ कों ऽऽ कों

(थळ: सुकडो आदोगादालें घर. बस्त्यांव. लांब कालसांव आनी बानयेन घालां. केंस विस्कटलेले. दिसूंक चोर कसो. दारार टकटक करता.)

**सुकडोबाब** : कोण रे भायर?

**बस्त्यांव** : हांव तो बस्त्यांव पात्रांव. (भितर येता)

**सुकडो** : कित्याक आयला?

**बस्त्यांव** : आदोगादा बोगलेक आनीक कित्याक येताय पात्रांव?

**सुकडो** : बस्त्यांव कसलें रे घेवन आयला केस्तांव? पात्रांव बोस्त्यांव केदोनाच कोरीनाय केस्तांव. पूण मुकोडेन इल्लीशी चूक जाल्यार त्यापासोत म्हाका व्होडलें भोगलां.

**सुकडो** : इल्लीच चूक जाल्यार आनी येदें व्होडलें कितें भोगलां रे तुका?

**बस्त्यांव** : सांगतां, सांगतां पात्रांव.

**सुकडो** : हां. राव, राव मातसो. सांगच्या पयलीं एक आयक. हांव सुकडो आदोगाद म्हुणून जाणां मरे तूं?

**बस्त्यांव** : ओय पात्रांव. केदेंय व्होडलें केस्तांव जाल्यार तूं कांय न्हू कोन्न सोडोयता म्हूण म्हाका सारकी फोबोर आसा. इतलेंच न्हूय, पोयर त्या पेद्रूगे कोलान लाद्रुगे दुकराक जितोच माल्लो ती केस तुवेनूच सोडोयली न्हूय पात्रांव? वोयल्यान त्या बाबड्या लाद्रूक पोनास रुपोय कोडकोडीत मेजूंक लायले कोर्टांत.

**सुकडो** : भरले मरे ताणें ते पन्नास रुपये दोळे धांपून?

**बस्त्यांव** : ओय. तुवेन केसींत सांगलें लाद्रूगे धुकोर पेद्रुगे कोलाफाटल्या धांवतालो. कोल ही कितलीय जाल्यार

बायल. मोनजात जाली म्हूण कितें जालें? तिणें आपलो रेस्पेद वाटोवंक जाय म्हुणोन लाद्रुगे धुकराक चावोन खायलो. हेतूंत पेद्रुगे कोला बाबड्या कांय गुन्यांव ना. लाद्रुगे धुकरान पेद्रुगे कोला आंगाक जीं फेरीदां केल्यांय तेंकां ओकोत कोरूक पेद्रूक पोनास रुपोय खोर्च येयला. तो लाद्रुन आतांच ह्या कोर्टांत दिवंक जायो. पेद्रुगे कोलाच्या अब्रु नुकसानीचे.

सुकडो : पळेली मरे म्हजी कापास्ताद?

बस्त्यांव : ओय पात्रांव. म्हुणोनूच हांव तुज्यालागीं येयलां.

सुकडो : येदी व्होडली केस लोडोवंक हांवें कितें घेतलां तें जाणां मरे तूं?

बस्त्यांव : ओय पात्रांव. माका सोगली गोजाल फोबोर आसा. तुजी फावटीक फी शंबर रुपोय न्हूय?

सुकडो : आसात मरे तुजेकडेन शंबर रुपया?

बस्त्यांव : ना पात्रांव. पूण हांव कितेंय कोन्न तुगे पोयशे दितोलों. नेगार वयचोना पात्रांव.

सुकडो : कितेंय करून म्हळ्यार कितें करतलो रे तूं? तूं कसलो धंदो करता?

बस्त्यांव : कोंबड्यांचो पात्रांव.

सुकडो : कोंबड्यो विकता?

बस्त्यांव : ओय पात्रांव. पूण म्हुज्यो न्हूय, लोकांच्यो.

सुकडो : तुका कमिशन मेळटा दिसता.

बस्त्यांव : सोगलें कोमिशन म्हाकाच मेवता. तेचखातीर म्हाका हें कोर्ट फावो जालां.

सुकडो : कितें? तेचखातीर? कोणाक रोगिल्ल्यो बी कोंबड्यो दिवन माल्ले नात मरे?

बस्त्यांव : ना पात्रांव. त्या कोंबड्यांनी म्हाकाच फोंडांत घायला. पात्रांव तुका आतां सांगोक कोसली लोज? तुयेंच आतां म्हाका सालवार कोरूक जायो. पात्रांव हांव लोकांल्यो कोंबड्यो चोरून विकी आनी पोयशे सोऱ्याक खायी. ना बायल ना भुरगीं. शिरवीस कोरून कोणाक घालूं? फोकोत सोऱ्याखातीर चोरतालों पात्रांव! पूण

त्या फोटेबाबाल्या घुडांत म्हाका कोंबड्यांसोकोट तेणें रातचो फारायलो, आनी पुलीसेंत वोयलो. केस केली, त्या बारकाक आंतोनीन म्हाका फियस रावन सोडोयलो. हांव कोंबड्यो व्होरोन तेका विकी पात्रांव! म्हाका पुलीसेंत वोयलो हें पोयन तें जानें, पोंडोरें, पावलीन, कोयसांव, मारजाकीन सोगलीं पुलीसेंत पावलीं आनी आपणागेय कोंबड्यो हेणेन चोरल्याय म्हूण केस केली. पात्रांव हायेन पुलीसेंत सांगलें हायें फोकोत फोटेबाबाली एकूच कोंबी चोल्ल्या. बाकी हेंच्यो कोंबड्यो फुंयच्या कोंब्या फाटल्यान पोवल्यो तें हांव नोकोच.

**सुकडो** : बरो मरे तूं हुशार. कोंब्या फाटल्यान पळून वचूंक त्यो कितें चलयो रे?

**बस्त्यांव** : पात्रांव, हांवें लायलें वोगीच चिकान, फोटेबाबाली कोंबी पोचली जाल्यार पोचली म्हुणोन. पूण त्या मेल्ल्या हवालदारान केस कोर्टांत घायली. तेचें कितें बोरें जातोलें? पोंदरा दीस जावोंक ना ते मारजाकीनागे दोन कोंबयो चोरून हायें त्या हवालदाराक एक सागवाद म्हुणोन दिलेल्यो. बेमान तो, खायलेल्या पानार हागपी. हे फावटी दिलीना म्हुण म्हुजेर पिकार तो. नाजाल्यार कोंबी दितोना कित्याक विचारलें ना तोर तेणें माका खुंयची हाडल्या काय म्हुणोन? त्या आंतोनीबाबालें मात देव बरें कोरू. एक लेगीत कोंबी फुकोट घेयनासतोना तो म्हाका फीयादोर रावलो. हेका म्हुणताय मुनीस!

**सुकडो** : आरे तो तुजो कोंबड्यांचो शेरमांव कडेन दवर. म्हाका दिता मरे शंबर रुपया?

**बस्त्यांव** : शंबर रुपोय कॅश दिवंक जालेंना जाल्यार धा कोंबयो दिवचेल्यो म्हजेर पावल्यो.

**सुकडो** : नाका नाका. त्यो लोकांल्यो कोंबड्यो म्हाका नाकात. त्यो विकून शंबर रुपया दी म्हणतगेर जालें. तुका हे केशींतल्यान हांव सालवार करतां.

**बस्त्यांव** : उपकार जातले पात्रांव. तुज्या घरांत सदांच मांस सप्लाय

हांव करतलों. तुवें म्हुजेर उपकार केल्यार हांव चोर जालों तोरी तुजें नांव केदोनाच सांगचोना.

**सुकडो** : तशें जाल्यार आयक. तूं सदांच लोकांल्या घुडांत कोंबयो चोरूंक वता न्ही. म्हणतगेर तुका कोंबे कशे रडटात तें खबर आसाच.

**बस्त्यांव** : ओय पात्रांव. को ऽऽ को ऽऽ को करून रोडटात.

**सुकडो** : तर तुवें कितें करचेलें; तुका जुवीज कोर्टांत कितेंय प्रश्न विचारता ताची जाप फकत कों ऽऽ कों ऽऽ कों ऽऽ करून दिवचेली.

**बस्त्यांव** : सामकें सोपें! कों ऽऽ कों ऽऽ कों ऽऽ.

**सुकडो** : जुवीज समजतलो तूं पिसो म्हुणून आनी तुका सोडून दितलो.

**बस्त्यांव** : बरें पात्रांव. हांव तें जिस्त करतां.

**सुकडो** : बरें तर यो तूं आतां. याद मात घट धर.

**बस्त्यांव** : हां पात्रांव, कों ऽऽ कों ऽऽ कों ऽऽ करपाचें!

**सुकडो** : आरे ती न्ही. शंबर रुपयांची!

**बस्त्यांव** : त्यापासोत तूं कांयच भिवोंनाका. (वता)

(कोर्ट सीन. स्टेजीर सरकारी आदोगाद आनी बाकीचे आदोगाद, लोक बी बशिल्ले आसात. इतल्यांत जुवीज येता. सगळे उठून उबे रावतात. जुवीज बसतकच सगळे बसतात.)

**शिपाय** : कोलो शेमडो कुटकार हजर आसा?

**कोलो** : आसा, आसा.

**जुवीज** : ए कोल्या, कोर्टांत चड सुबेज उलोवंक फावना. तुका कोणें सांगलां हजर आसा म्हणूंक?

**कोलो** : हांव खंय जाणां तशें म्हणूंक जायना म्हुणोन? हांव ल्हान आसलेलों तेन्ना मास्तर हजेरी घेतना म्हणी 'कोलो शेमडो कुटकार' हांव म्हणी हजर. हांव समजलों हांगाय तुमी म्हजी हजेरी घेतात म्हणून.

**जुवीज** : पुरो पुरो. वग्गी बस थंय. ह्या कोर्टाचें काम फुडें

चालू करचें.

**शिपाय** : (कोल्याक आरोपीच्या पिंजऱ्यांत राव म्हणटा. कोलो रावता. गीतेर हात दवरून उलोवंक लायता) जें कितें उलयतलों, खरें उलयतलों. खऱ्या बगर कांयच उलोवचोना. दवर हाचेर हात आनी घे असो सोपूत.)

**कोलो** : (शिपायाक) ह्या पुस्तकाचेर हात दवरून हांव कितें खरें उलयतलों? आरे इह्येच्यान तर म्हुणोन हायें कितल्यो फटी पचयल्यात. तुका जर म्हजेकडसून खरें उलोवन घेवचें आसत तर म्हाका अर्दो पाव माडाचो नाजाल्यार काजूचो हाडून दी. आनी पळय मागीर सगळे कशें पटापट खरें उलयतां तो.

**जुवीज** : (हातोडी आपटीता) ऑर्डर, ऑर्डर. कोल्या हें कोर्ट. तुजें घर वा बार न्हय.

**कोलो** : कोपां मारल्याशिवाय म्हाज्यान खरें उलोवंक केशेंच न्होजो. हांव तरी कितें कोरों? तुमी पुस्तक हाडात नाजाल्यार देवाचे फोटे हाडात. हांव म्हज्या तोंडाक येता तें उलयतलों.

**जुवीज** : आतां हाका कितें करप? (आदोगादांक) आदोगाद केस वाचून दाखय. फुडलें फुडें पळोवया.

**सरकारी आदोगाद** : माय लॉर्ड, कोलो सदांच सोरो पिवन आपले बायलेक जिचें नांव कामणें कोलो कुटकार हिका मारी. पयर ताणें तिचे तकलेर दांडो उकल्लो पूण शेजारच्या मोगऱ्यान तिका ताज्या हातांतल्यान सोडयली आनी मागीर कामण्यान पुलीसेंत केस केली. तेखातीर आरोपी कोलो आनी फिर्यादी कामणें हांकां दोगांयकूय हांगा हाडल्यांत. (कोल्याक) आरोपी कोलो शेमडो कुटकार, तुवें सोरो पिवन तुजे बायलेक बडयली. खरी खबर?

**कोलो** : हायेन म्हजे बायलेक बडयली, तुजे बायलेक न्हू. समजलो? (कामण्याक) न्हू गो कामण्या?

**कामणे** : (आपलेभितर) आवय हेणी म्हाका क़ितल्या वर्सांनी कामणें म्हळें. सदींच पुतू आवय म्हणी. हेणी कामणें म्हणतगीर म्हाका बरें दिसता. हांव सगळें केस्तांव

इसरलें. हे लेगीत जावचे जावन म्हाका कामण्या म्हुणोन उलो मारी. काय बरे दीस मजेंत गेल्ले!

**आदोगाद** : ऑबजेक्शन यूवर ऑनर, कोल्यान विचारता त्याच प्रश्नांची जाप दिवची अशें हांव कोर्टाकडेन मागणी करतां.

**जुवीज** : कोल्या, विचारता त्याच प्रश्नांचो जापो दी. आदोगाद, विचार ताका प्रश्न.

**आदोगाद** : तूं तुजे बायलेक सोरो पिवन मारी?

**कोलो** : तें तुमी कामण्याकूच विचारात, नाजाल्यार हांव इचारतां. (लाडांत) कामण्या हांव तुका गाळी सव आनी मारी बीन गो?

**कामणें** : (आपलेभितर) आवय, कामणें म्हळें! कितें बरें दिसलें जाणां. (आदोगादाक) कोण सांगी तुमकां ते म्हाका गाळी सव, मारी बीन म्हुणोन?

**आदोगाद** : तुवें तशी केस केल्या मुगो!

**कामणें** : हांवेन रागान एखादी दिलेली जायत. म्हुणोन कितें तुमी आमकां हांगा हाडून आमची लज काडप? आमी घोव बायलां झगडटलीं, आनी एकूय जातलीं. तुमकां रे मदीं तोंड घालूंक कोणें सांगलां? (कोल्याक पळोवन) न्हु गा?

**कोलो** : हय तर गो म्हज्या अपुरबायेच्या कामण्या. आमी इतलीं वरसां संवसार केलोना? हांव केन्नाय पियेतां आनी गाळी बीन मारतां जांवये. पूण निवळटगेर खंय म्हाका त्यो यादी उरतात? मागीर हांव बेस बरो वागीना न्हू गो कामण्या?

**कामणें** : (आपलेभितर) आवय, परत परत कामण्या-कामण्या करता. आज हायें सकाळींफुडें कोणाचें तोंड पळेलें काय? दीस कसो खोशेन गेलो. लग्न जावन एक वरस हेणी म्हाका कामण्या म्हुणोन ओपुरबायेन उलो करचो. मागीर पुतू जायत पासून ए पुतू आवय म्हणी. आयज वीस वरसां जालीं तें नांव आयकल्यार. तें आयज आयकतां. जिवाक बरें दिसलें. हेणी काल

म्हाका कामण्या म्हणलेलें जाल्यार हांव पुलीसेंत वचचें नासलें. (आदोगादाक) आमकां सोडात पळोवंया. हांगासल्लीं चल वचोया घरा. पुतू इश्कोलाकसून येवचेलो जालो.

**कोलो** : हांव येतां पूण म्हाका एक रुपया दितलें मुगो? नाजाल्यार हांव हांगाच रावपी पळय. कामण्या दितलें मुगो?

**कामणें** : कामणें म्हटलें आता दिवंकूच जायो. दितलें तर. पूण म्हाका एक सांग. कालचे दोन रुपये कितें केले? तेभायर आठ आणे दामुगेर उदारी केल्या म्हुणोन तो सांगी.

**कोलो** : देड रूपयाचें माडाचें घेतलें आनी आठ आण्याचीं भिकणां खालीं. आनी म्हाका इडीकाडी ना तर गो? आठ आण्याचीं भ्रिकणां त्या शिरीकांतागेर कितलीं दितात जाणां? दोन घांसाक तरी पावतात तीं म्हज्या?

**जुवीज** : ऑर्डर, ऑर्डर.

**आदोगाद** : आरोपी कोर्टांत नाका जाल्लो बोवाळ करून कोर्टाक डिस्टर्ब करता तेन्ना ताका कोर्टांतल्यान धांवडावचो अशी हांव कोर्टाकडेन मागणी करतां. दुसरें म्हळ्यार तीं आतां दोगांय कोम्प्रोमायज जाल्यांत तेन्ना ही कटकट कोर्टान पयस करची आनी फुडलें काम हातांत घेवचें.

**जुवीज** : कोलो आनी कामणें दोगांय सगळें विसरून एक जालीं म्हणून कोर्टाक खोशी जाली. तांणी घरा वचून बरो संवसार करचो. तांचे संवसार सुखाचो जावं ही कोर्टाची इत्सा. तांणी दोगांयनी आतां घरा वच्चें.

**कोलो** : आमी हांगा भोव रावंक आयल्यात. हांगा कितें कोपाचें मेळटा? चल गो कामण्या, वोसोया आमी.

**कामणें** : आवय, कामण्या! चल, चल या आमी. (दोगांय वतात)

**शिपाय** : आरोपी बस्त्यांव हजर आसा. (पिंजऱ्यांत येवन उबो रावता)

**बस्त्यांव** : कों ऽऽ कों ऽऽ कों ऽ

शिपाय : (गीता म्हऱ्यांत धरून. ताचो हात गीतेर दवरला.) म्हण, जें कितें सांगतोलो खरें सांगतोलो. खऱ्या बगर कांयच सांगचोना.

बस्त्यांव : कों ऽ कों ऽ कों

जुवीज : ऑर्डर, ऑर्डर. आरोपीन सोपूत परत एकदां घेवचो.

बस्त्यांव : कों ऽ कों ऽ कों ऽ

आदोगाद : आरोपी आपल्याक उलोवंक येना अशें भासयता. पूण ज्या अर्थान ताणें गीतेर हात दवरला त्या अर्थी ताणें सोपूत घेतला अशें हांव मानतां.

जुवीज : केस फुडें चलोवची.

आदोगाद : तुवें रातीच्या अकरा वरांचेर फोटेबाबाल्या घुडांत हात घाल्लो तेन्ना बाकीच्यो कोंबड्यो कितें करताल्यो?

बस्त्यांव : कों ऽ कों ऽ कों ऽ.

आदोगाद : म्हणजे तुजो आवाज आयकून कोंबयांनी बी आपले आवाज काडले तर.

बस्त्यांव : कों ऽ कों ऽ कों ऽ.

आदोगाद : म्हाका खबर आसा रे कोंबे कों ऽ कों ऽ करतात म्हणून. त्या कोंब्यांचो आवाज आयकून फोटेबाब धांवत आयलो. खरी खबर?

बस्त्यांव : कों ऽ कों ऽ कों ऽ

आदोगाद : आरे, हांव विचारतां त्या प्रश्नांच्यो जापो दी. हें कितें को ऽ को ऽ को ऽ. तुज्या मानेर कोंब्याचें भूत बसूंक ना मरे?

बस्त्यांव : कों ऽ कों ऽ कों ऽ

आदोगाद : युवर ऑनर, आरोपी प्रश्नांच्यो जापो दिवचेबगर फकत कों ऽ कों ऽ करता हें तुमी पळेलांच. म्हाका दिसता एक तर हो आरोपी सवंग करता नाजाल्यार ताका पिशें लागूये.

बस्त्यांव : (मर्दीच) कों ऽ कों ऽ कों ऽ.

जुवीज : हांव आरोपीचेर नदर दवरून आशिल्लों. म्हाका दिसता आरोपी खरोच पिसो. तो जर ढोंग करतालो जाल्यार तो एका प्रश्नाची तरी जाप दिवंक उतर भायर

काडटलोच आशिल्लो, कारण मनशाक उलोवपाची संवंय आसता. तेन्ना एक तर उतर चुकून बसून भायर पडटाच. पूण बस्त्यांवाच्या तोंडांतल्यान चुकून सुद्धां एकूय उतर भायर पडूंक ना. तेअर्थी तो पिसो आसा. आनी म्हाका दिसता फोटेबाब को ऽ को ऽ आयकून दुबावान भायर सरलो आनी ताणें ह्या पिशाक धरलो. शाणो कोंबयो चोर कोंबयो चोरतना केन्नाच बोवाळ करचोना. आनी दुसरें म्हळ्यार फोटेबाब म्हणटा की ताणें कोंबयेसकट ताका धरलो. पूण ताणें ताका कोंबयेसकट काय हांगा हाडूंक ना. फोटेबाबालें प्रूफ म्हणून ताचे तेस्तुमेंत म्हणून कोणूच ना. तेखातीर कोर्ट बस्त्यांवाक कसलोच आरोप दवरिनासतना सोडून दिता.

**बस्त्यांव** : कों ऽ कों ऽ (सगळे उठून वतात. कोर्ट सोंपता. सुकडो आदोगाद आनी बस्त्यांव दोगूच उरतात.)

**सुकडो** : बस्त्यांव, पळेली मरे म्हजी तकली? म्हाका म्हणटात सुकडो आदोगाद. दिसपाक हाडार मांस ना म्हणून कितें जालें? खऱ्याचें फट आनी फटीचें खरें करून हांव सुकड्याचो सुकडोबाब जालों तो ओगीच न्हय. म्हाका कितें उणें आसा रे ह्या संवसारांत? म्हजो बंगलो आसा, कार आसा. धा सेरवेंतां म्हगेर काम करतात. हें हांवें सगळें जोडलां तें म्हजे तकलेन, समजलें?

**बस्त्यांव** : कों ऽ कों ऽ कों ऽ.

**सुकडो** : पुरो रे तें आतां. आतां कितें तूं कोर्टांत आसा? काय संवय उरली रे तुका ती कों ऽ कों ऽ कों ऽ करचेली? बाकी त्या जुवीजाक तुवें बरोच फटयलो आं. बस्त्यांवाचे तकलेर खरेंच कोंब्याचें भूत बसून तो पिसो जालो म्हणपाची पाळी तुवें जुवीजाचेर हाडली. तुजें नाटक मात बेस बरें जालें. पूण ह्या आदोगादाची बुद्द घेतिल्ल्यानच म्हण आसा मरे तुका ती खबर? बाकी तूं तें जाणांच आसतलो. नाजाल्यार तुका स म्हयने आग्वाद खडी फोडूंक वच्चें पडटलें आसलें.

वगीच गोंयच्या कोनश्याकोनश्यान लोक म्हाका सोदूंक येनात. हांवें घेतिल्ली केस जिखूंकच जाय. बरें, तें आसूं. म्हज्या पैशांचें कितें केलां रे तुवें? हाडल्यात मरे?

**बस्त्यांव** : कों ऽ कों ऽ कों ऽ.

**सुकडो** : आरे आतां आनी तें कित्याक? कोर्ट काबार जावन लोक घरा पावले आसतले. आतां वडय म्हजी फी पळोवया.

**बस्त्यांव** : कों ऽ कों ऽ कों ऽ.

**सुकडो** : कितें?

**बस्त्यांव** : कों ऽ कों ऽ कों ऽ.

**सुकडो** : बरो मरे भेटलो तूं. म्हाकाय बी तेंच?

**बस्त्यांव** : कों ऽ कों ऽ कों ऽ.

**सुकडो** : कितें? म्हजी बुद्द म्हाकाच परत्यान दिता?

**बस्त्यांव** : कों ऽ कों ऽ कों ऽ.

**सुकडो** : नागयलो ह्या चोरान म्हाका. शंबर रुपयांक सामको नागयलो. हाका हांवें ही बुद्द पयलीं पयशे घेनासतान ओगीच सांगली. चोर तो चोरूच. चोराक कितलोय साल्वार केलो तरी तो आपणाले चोरचेलें सोडटा?

**बस्त्यांव** : कों ऽ कों ऽ कों ऽ.

**सुकडो** : ओशेमार हांगासरलो! आयच्यान बुद्द शिकलों. तीय बी एका चोराकडल्यान. आयच्यान पयलीं पैशे घेतलेबगर चोरांच्यो केशी चलोवचोना. (वता)

(पड्डो पडटा)



## सुरंगा विलास मडकयकार

अवर लेडी ऑफ पायटी हायस्कूल, कुळें, हांगा शिक्षिका म्हण नोकरी करता.

१९७३ वर्सा सावन बरोवपाक आरंभ. ल्हान ल्हान नाटकुलीं तशेंच आपउलोवपां बरोवन लेखनाक सुरवात. सांगें आनी केपें म्हालांतल्या एकांकी सर्तिनी नाटकुल्यांक इनामां लाबल्यांत.

तांच्या नाटकुल्यांविशीं कोंकणीतले नामनेचे समिक्षक श्री. कमलाकर म्हाळशी म्हणटात –

'' 'सप्तरंगां'त ताणी केल्ली विशयांची निवड, आशयाक धरून प्रसंगांची आनी पात्रांची केल्ली मांडणी, पात्रांप्रमाण वापरिल्ली भास, जोकते संवाद, एकांकीचो एकसंघ परिणाम अपेक्षित धरून दर एके एकांकिकेक दिल्लो वेळ ह्यो गजाली सुरंगाबायच्या ह्या मळावयल्या अणभवाची गवाय दितात. घड्ये, शाळांनी प्रयोग करून पळयल्या उपरांत बदलाक फावो तें प्राधान्य दिवपाची संद तांकां मेळ्ळी आसूंये. आनी तशें जाल्लें आसत जाल्यार ती बेस बरी गजाल. कारण एकांकी जांव नाटकुलें जांव वा नाटक जांव फकत वाचपाखातीर नासताच. तें आसतात – खेळपाखातीर. हांसत खेळत पळोवपाखातीर आनी खेळटां खेळटां, पळयतां पळयतां एकदरो विचार काळजामेरेन आनी तकलेमेरेन पावोवपाखातीर.''

अपुरबाय प्रकाशन